# काण्यो, घरा घराच्यो

(कोंकणी सान काण्यो)




पी. गोपिनाथ कामत







केरळ कोंकणी अकादमी,
कोची

Kanyo, Gara Garachyo
(Konkani Short Stories)

By
P. Gopinatha Kamath
"Gomandak", #44 J.P. Nagar,
Perumthanni, Thiruvananthapuram-695008.

Published by
Kerala Konkani Academy,
Kochi.





Printed at Bhanu Offset Printers, Thiruvananthapuram
DTP at Krishna DTP Centre

Cover design:
S. Chitharanjan Naik, Kochi



First Edition:
February 2008

Price: Rs. 60/-



# रीणाचीं उत्तरां

१९७० थाकून प्रचार जालेल्या ‘कोंकण जनता’ मासिक पत्राचे वाटेन म्हूण सांगयात माका काण्यो बोरोंचाक प्रचोदन मेळया. तेन्ना भासे प्रवर्तन केरळांत मूळ दवरुन एत्ता मात्र. कोंकणी कृतियाचे बरौपी चड मुकार आयलेना आसिले.

कोंकण जनता प्रकाशन वाटेन उजवाडपायले दोन पुस्तक श्रेणींत (कोंकणी कथाष्ठक - १९७८, काण्यां घोस - १९७९) मेगेल काण्यो समावेस केलेलांत माका आनि इतर मस्त वरौपयांक मुकार तांगेल प्रवर्तनांत अनुग्रह जाला.

सत्तरेचया दशकांत विभिन्न वर्षा भायर देवलेल मेगेल धा काण्यो अतां एक्कड करुन पुस्तक रूपार उजवाडांत हाडूक जालेलाक माका भो संतोष. मेगेल हे परिश्रमांत माका मार्ग-दर्शन दीवनु हे पुस्तक उजवाडवापाक अनुकूल जालेल्या केरळ कोंकणी अकादमी प्रवर्तकांक हांव आभार मानता.

हे पुस्तक प्रकाशना खातीर मेगेल मागणी स्वीकार करुन ह्या पुस्तकाक ‘प्रस्तावना’ वरेयलेल प्रसिद्ध बरौपी श्री शरतचद्र शेणै हांचे हांव केन्नाय रीणी आसतलो. हे पुस्तकाक मुखचित्र रचलेल श्री एस. चित्तरंजन नायक हांका मेगेल धन्यवाद.

पुस्तक चांग रुपार मुद्रण केल्लेल्या कृष्णा डि टि पि सेंटर आनि भानु ओफसेट प्रसांतुल्या कर्मचार्यांकय हांव उडगास करता.

मेगेल हे प्रथमले काण्यां पुस्तकाचे प्रकाशन अखिल भारतीय कोंकणी परिशद २६-वे अधिवेशनांत करुक जालेलांत हांव धन्य जाला. सर्वय कोंकणी प्रेमि जनां मुकार हे पुस्तक समर्पण करता.

जय जय कोंकणी

**पी. गोपिनाथ कामत**

## काण्यो सरतना उदेताय चिंतनां!

आमच्या कौमारांत वा तारुण्यांत आसची एकाद्री अभिरुची सगल्यांक तांगेल्या मुकारच्या जीवितांत केळोंवचाक जाली म्हूण जायना. थोड्यांक ती तो सदा खातीर नष्टय जाता. जाल्यार उणे जाणाल्या जीवितांत अशीय घडता - साबार वर्षांचे उपरांतें ती अभिरुचि सुषुप्तेंत थाकून जागेर आयलेले चित्रशलभां वरी पूर्वाधिक सुंदर रूप धरता!

श्री पी. गोपिनाथ कामत अश्यांतुलो एकलो भाग्यवंत. सत्तरेच्या दशकांत केरळच्या कोंकणी साहित्याच्या रंगार हें नांव श्रद्धेय आशिल्लें. हांच्यो कथा, लेखनां आदी नेमाळ्यांनी आनी स्मरणिकांनी पळोवंक मेळतालीं. अखिल केरळ तलावेले कथा मत्सरांत (१९७९) हांका प्रथम पुरस्कार मेळ्ळोलो. लागी लागी जावन उजवाडा आयलेल्या दोन कथासंग्रहांतूय हांगेल्यो कृति आशिल्ल्यो. पुण ते उपरांतें तांची अभिरुची निद्रिस्त जाली जावन दिसता मागीर एक दोन न्हय, पंचेवीसा भायर वर्षां धावन गेलीं म्हण्टना ह्या साहित्यकाराचो आमकां विसोर पडलोच म्हणूयात!

जाल्यार आज श्री कामत हांचि ती पोरणी अभिरुची जागी जावन, आपण्यालीं वर्णाभ पाकां विस्कळावन फटफटावन कोंकणी साहित्याच्या आंगणांत उबून खेळूक आयल्या! हांगा

थांगा जावन शिवंडून पडलेल्यो ह्यो काण्यो ह्या संग्रहांत एकत्र जाल्याय म्हण्टना ह्यो वाचकांले विशेष श्रद्धेक पात्र जाताय. एकमेळीचें हें अत्भुत कार्य केवल साहित्य कृतीचें मात्र न्हय. हें कार्य मनशां विशींय शतप्रतिशत सत्य! हांगा थांगा जावन शिवंडल्ले कोंकणी जनांची एकमेळी जाता तेत्राच ते समस्तांचे श्रद्धेक पात्र जाताय - ना जाल्यार ना!

ह्या काण्यांचो सामान्य स्वभाव म्हळ्यार हाचें लाळित्य. माध्यमा वयर अधुनातन प्रयोगांचो परिश्रम कांय हांतुं ना. एकच पावट वाचल्यार पुरो, कथाकारालीं उतरां आनी आशय सीधा वाचका लागी पावलेच!

सान सान काण्यो ह्यो आमच्यो, तुमच्यो, आनी आमी वळखुच्यांच्यो. हीं कथापात्रां कोण तरी आमकां परकिष्ट न्हय. हांच्या चांगपणांत, वायटपणांत, मनस्तापांत सर्व प्रतिबिंबित जांवचेय हे आमीच सगळे! हांचीं सुखां, दुःखां, आशा, निराशा, विचार, प्रतिकरणां सर्व आमचींच लागेन...

"असल्याक वे आज समुदायांत मोल?" म्हूण आखांत पांवता केवल एक कथापात्र न्हय, आमीच.

"दाम व्हड कीं समुदाय व्हड?" म्हूण प्रश्न करता केवल एकलो तरनाटो न्हय, तसले जिते जिवे जायते जाण आसाय!

“श्यामळक्काक” आमी जायत्यांनी आमच्या नीज दोळ्यांनी देकल्या! “गोपाल आनी वास्तेव” आमचे शेजारचेच चेले! चिरपरिचित व्यक्तींचि चित्रां समकालिक समाजाचे पृष्टभूमीचेर चित्रण केलेल्यो ह्यो धा काण्यो म्हूण संक्षिप्त रूपान सांगुयात.

समाजसेवेंत निस्वार्थ रूपान कार्यरत जावन आशिल्ले श्री कामत हांणी आपण्याली लिखणीय तेच वरी समुचित रूपान उपयुक्त केल्या. जंय काण्यो सरताय, थंय चिंतनां उदेताय!

कोंकणी साहित्याचे कार्यक्षेत्रांत परतून पावलोल्या ह्या क्रियाशील लेखकाक सुस्वागत आनि आशंसा....

- **शरतचंद्र शेणै**

# प्रस्तावना

श्री पी. गोपिनाथ कामत हांगेलो पयलो कथा संग्राह "काण्यो घरा घराच्यो" उजवाडाक हाडूंक आमका खूब खोस आसा. १९७० काळांत कोंकण जनता मासिक पत्र आनी हेर नेमाळ्यांनी उजवाडाक आयिल्यो धा काण्यो ह्या संग्रहांत आसपावल्यांय. ल्हान ल्हान उतरां आनी सरळ शैली हीं गोपिनाथ कामत हांचे रचना वैशिश्ट्य.

केरळ कोंकणी अकादमीचें हें सोविसावें प्रकाशन घरां घरांच्यो हो काण्यों वाचप्यांक खूब मानतल्यो आशी आमी आस्त बळगेताय.

कोची **अद्यक्ष**

१..०२..२००८ **केरळ कोंकणी अकादमी**

# मांडावळ

# 1

# देवु-दान

तागेली दृष्टि विदूर तं. खंयकी सरार पांवचाक आसा म्हूण दिसता तागेलें चमकण देकिल्यार. केसु हुय्या जावनु पळ्ळेले तागेलें तोण्ड चोवनु हासुक ताका जांवका जालेल कोण ना. ताका तांगेले घरकडे उळदून वोरनु गोड उत्तरां उल्लोंवचाकय कोण ना. मागिर खंथय की तागेलें हें चमकण? इत्तें तागेलो उद्धेश?

देन्पारांचे उज्जे वोत. रोडार कार, बस्स सग वच्चो गोन्दाळ. हुनसाण कारण रोडार थाकून ऊब उंचार एत्ता. जाल्यारीय तें कांय चोवनात्तिलें तो मनीष सुमसुमीच चमकता. थांगथांगा वुणेच पिंजल्ले तागेले चोग्यान्तुल्यान बड बड जावनु हूम खल्लाक पडता. रोडावेल्यान अल्तपेल्तान्तु वच्चे मनीष ताका अडलताय. तें कांय तो चोयना.

तागेले तोन्डावेलो कोपूय दृष्टीय चोवनु तो इत्तेकी एक साहस कृत्य कोरूक वत्ता म्हूण दिसता.

बदतं. तो एक घोर कृत्य कोरूक तं वत्ता. ताका तागेलें जीवित एक वोजें म्हूण दिसलें. तें वोजेंय घेवनु ताणे

अनिकय इत्याक मुकार वोचुका म्हूण आठेयलें. अम्मा बप्पा, बायल चेरडुवं, भाव भयण्यों, तसी कोण तागेल पासून निंवगूक ना. मागिर कोणाले बगेक ताणे लोकान्त वोरका? ताणे लेकलें.

तो एक धनवन्तालो पूतुत आसिलो. तागेल एकू एक पूतु. बप्पाले मरणा उपरांते थरवाडाचे सगटय तागेल नावान जालें. ताणे आठेयल्यार ते गावांन्त इत्तेंय कोरूक जातले. उत्तूल सभार प्रभाव अनि योग्य आसिलो दुडवान तो. ताणे इत्तेंय जांव्का म्हूण मनां आठेयल्यार निमिष भितर तें सग मुकार पांवतलें. तसी ताणे सुख भोगिल्याचें लेक ना. ताणे दुड उस्सूनातिलो स्थायु ना. दुड्वा मनिष्याचे लागि मात्र जालो ताका सहवास.

दैवीक ताका व्होड ना जाले. देवळा देकार ताका घूवनु चोंवचाक समय ना जालो. गरीब म्हूण सांगिल्यार ताणे मोल दवरप ना आसिलें. तो तांका निन्दित करतालो. दान म्हळेले आमकां सांगिलनय म्हूण ताणे आठेयलें. म्हळ्यार केदनाय होळ्ळे होटलांत नांक भरी पीव्नु नन्चून सूख भोगुचेंत जीवित म्हूण ताणे लेकलें. ते बगेक ताका समयूय दुड्डूय आसिलो.

गरीब जन तांका दीस काडूक उणेच दुडवांक तल्यागि

निंवगून आयल्यार दया माया नातिलें तो तांका आम्बूण बळेयतालो.

"सगटांकय केदनाय रुप्पया काण दिंवचाक रूक किरलेवनु एवप ना " एक गरीब मन्तार्यान तागेल अंगणान्त धुवेले वारडीकेक रुप्पया निंवगून एवचाक ताका सांगिली जाप. तसी गति नत्तिल्यांक ताणे रडेयले.

तसी दीस धावनु गेल्ले.

तागेले जीवितान्तुली शनिदशा प्रारंभु जाली. एक दिवसा ताका गवन्मेंटान्त थाकुन एक नोटिस मेळें. तागेल बप्पान मेल्लेल मागिर गवन्मेंटान्त दिंवचाक आसिलें रीण 50 लक्षु रुप्पया भोरका म्हुणूय ना जाल्यार तागेली आस्ति सग जपती करतले म्हुणूय. नोटिस वाचून ताका कपला घुवळी आयली.

50 लक्षु रुप्पयाक खंतय वचप? आसिलो दुड्डु सग कांय चोवनत्तिलें बोडार तीळेल दवरलेल लेकान वेचु केल्लो. मागिर कस्सिकि उतलोच रुप्पया मन्दप. तागेले परने स्नेहितांक देकून तांचे लागि थाकून दुड कान्गोवया म्हूण ताणे लेकलें. म्हल्यार दुड दिल्यार पोरतून तांका मेळना म्हूण देकून कोणे ताका दुड दिलोना. ताका सगटानीय हाथ सोळ्ळो.

एक दिवसा तागेली आस्ति सग सरकारान जप्ती केल्लि. तो वाटेर जालो. तागेलें म्हूण सांगूक ताणे नेस्सिलें अवंगालें मात्र जालें ताका. ताका दुड आसिले कालाक तागेले कुटान्त एवनु पीवनु सूख भोगिल्ले दम्मेलिं कोण ताका घूवनु चोयलेना. तागेले हाथांत दुड्डु ना म्हूण जांवचानिक कायरिं परतनीं.

वोळ्ळे बंग्लावान्त एयर कन्डीषन केल्लेल कूडान्त यू फोम मन्चारि पोणु पोट भर खावनु दीस कळ्ळेले तागेल वासु अतां रोडार जालो. ताका तव्वळ भूतोदय जालो. ताणे केल्लेल सग चूकि म्हूण ताका दिसलें.

"देवु - दान" आसिले मनिषाक मात्रतं चांगि गति जातली म्हूण ताका दिसलें. ताणे फूडे केल्लेलि चूकि सग तागेले मनांत पोणु खेळ्ळि.

ताका तागेल जीवित व्यर्थ म्हूण दिसलें.

"आनिक हांवे हे जीवित मुकार वोरनु कायरिंना" ताणे आठेयलें.

ताणे रोडावेल्यान तागेली यात्रा प्रारंभु केल्लि. तागेले जीवितान्तुलि अन्तिम यात्रा.



# 2

# ती मुक्ति पावली

हे गावान्तु अयलारि ईचिवे गति देवा! राघवान आठेयलें. वाटेर भिणभिण काळूक. रोडारि बल्ब सग नांवांक पुरस आसा. उजवाड कांय ना. बान्डी आफिसान्त एवुनु पांवका म्हूण सांगूनु इष्टाक ताणे बर्प घालेलें. ताकाय देकलोना. उज्जाबान्डि चार पांच घंडी तोडोव जालो देकुन तो एवनु पोरतुन गेल्लोल असुयात.

मिटा ब्यारि केशवमम्मालो मोगाचो पूतुत राघव. ताका बान्कांत काम मेळनु वर्ष धा जालीं. ताका प्रथम जावनु दूर गांवान्त इनस्पेक्षनाक वचाक कागत मेळ्ळें. आज भित्तर घरकडे थाकुन भायर वोचुन राबीलना तो. बप्पालेय अम्मालेय कुटान्त वाडुन आयलेल ताका दूर गावान्त  वचाक बेजार जालो. म्हळ्यार इत्तें कोरूक जातलें? बान्कान्तुलो आफिसर जालो नवे तो. खयीं गेल्यार इत्तें? अनीकय बान्कान्त थाकुन प्रोत्साहन

आनि प्रोमोषन सग मेळतल नवें? इनस्पेक्षनाक वचाक असिलें कागत पोर्तुन दिंवचाक जाप काडुक जात्तलवे? तो कांय उल्लोंचाक गेलोना. भायर सोरया म्हुण लेकलें.

राघवान तागेले इष्ट दयानंदाक बर्प घाल्लें, उज्जाबान्डी आफिसान्त एवनु राबुका म्हूण. ते गावांत मात्र नय दुसरे एक गावांत प्रथम जावनुतं पांवता म्हुणूय. तें देकुन जांवका जालेलो सहाय कोरका म्हुणूय प्रत्येक जावनु बरेयलेलें.

राघव हेरदूसाचि भायर सरलो. बप्पाय अम्माय ताका यात्र सांगुक बान्डी आफिसांत आयलीं. दूर गावांत एकलोच वच्चे तागेलें दुःख देकुन अम्माले दोळ्यान्त उदाक आयलें.

उज्जाबान्डि सोळ्ळि. राघव निरजुळ जावनु बान्डीचे जनेर्ल आसिले देकान्तुल्यान भायर चोवनु बैसलो. तागेलें मन खंयकीतं. ताणे पांवचे गावांत कशी सग आसतलें म्हुण कोळचे बगेक ताका चड उत्साह जालो. तागेले खन्ध्यार हाथ मारनु कोणेयकी

ताका उळदीलो म्हूण दिसले. नीट जावनु पोळोवचांक टी टी आर तं. राघवान तागलें टिकेट दाकेयले. आनी ताका चोवनु एक दान्त दकोवनु हासिलो.

"ही बान्डी जोडहल्ली गावान्त केदना पांवतली?" ताणे टीटीआरालगी निमगीलें.

"फाय सांजवेळा सात वरार पांवतली. तूं एकलोच वे आसा, की आजे फूडे थांगा गेलोल आसा?"

"हांव एकलोच प्रथम जावनुतं थांगा वत्ता." राघवान सांगिलें. आनि आश्चर्यान निमगिलें, "इत्तें तो गांव चिन्नावे?"

"हां.... चिन्ना म्हळ्यार ............"

"म्हळ्यार इत्तें?" राघवाक आयकुक चड ओमसोर जालो.

"दूसरो एकलो लागेन मेळनु वच्चेंतं चांग आसतलें". उतलें सांगुन टी टी आर गेल्लो.

दूसरो एकलो लागेन मेळनु वचाक इत्याक ताणे सांगिले? राघवाले मनं खेळूक प्रारंभु जाले. तो गांव पैकिल्याचो गांवचे की फारप सग चड असिलो.

हां ........ दयानंदु बान्डी आफिसान्त एतोल नवे. तें देकुन तो आश्वास पावलो.

एक दिवसु बान्डीर गेलो. रात्री इखर वरां जालीं. उज्जा बान्डी पांच घन्डी तोडोव जावनु जोडहल्ली पावली. राघव बान्डीर थाकुन देवलो. ताका आश्चर्य जालें. तो नंतना दोग तेग जाण बायलो मात्रतं थांगा देवलाय. बान्डी आफिस शून्य. थांगाचे स्थलपरिचयान जांव्का तो बायलो होगि चोंकुन गेल्लीं.

राघव दयानंदाक सोदुन अल्तपेल्तांत चोयलो. कोणाक देकूक ना. तागेल हरध्यांत टपटप जावनु मारता सरी ताका दिसलें. निमिष वत्ता तसी मारप चड जावनु एत्तकी ......?

बान्डी आफीस म्हूण सांगूक कांयना थांगा. एक सान कूड आनि ताजे मुकार राबुक आसिलो एदोच स्थायु. कूडान्त एकलो दन्देल्याक ताणे देकलो. तागेलें तेदूसचें काम जावनु घरकडे पोर्तुन वच्चे बगेक आसिलों ओमसोरुतं ते दन्देल्याक. तो कवड दंपुन भायर देवलो. राघव धावनु ताजेलगी गेल्लो. राघवाक देकुन तो

मनीष एक राबलो.

"हांगा एदेच दिवसाक राबुक खंतय गेल्यार चांग कूड मेळतलें?" राघवान ताजे लागी निंवगीले.

तो मनीषु एक हसिलो. आनि तो एकडे व्हरनु सोडिन म्हूण सांगून तागेले लागि राघवाकय वेल्लो.

रोडार भिणभिण काळूक. दीवे कांय जळनाय. ते मनुष्या लागी आसिले टोरचाचे उजवाडान कर्तना तीं चमकीलीं. चंकुन एक वोळ्ळे पर्मान्त पावलीं.

"थांगा दूर देकुक पडचें घर चोय ......." ते मनुष्यान बोट दाकोव्नु राघवालागी सांगिलें. "समच थांगा गेल्यार जातलें. तुका सगठय सौकर्य थांगा मेळतले. जीवितान्त सूख इत्ते म्हुणूय तुका कळतलें" म्हूण सांगुन तो मनीष चोंव्कुन गेलो.

तुका जीवितांत सूख इत्ते म्हूण थांगा गेल्यार कळतलें. ते मनुष्यान सांगिले उत्तरांचों उद्धेशु राघवाक मनां जालोना.

चारीय देकान पागार मानदून आसिले घराचे एक कूडान्त मात्र प्रकाश देकूक एत्ता. ताका एक

लागेन संशय जालो.

थांगा जांव्का माका वोचुक, राघवान आठेयलें. आनि ताणे भित्तर वचुन कवाड कळें. कूडान्त मुकार दवोरलोल पाय मागिर हालोंचाक ताका जालोना. तागेलें हरदें राबिलवें? ताणे आठेयलें. ना.... ते कूडान्तु सुगन्धाचो परमोळ गमगमेता. एक चेरडुप्रायेचि बायल वेलवेटाचे हन्तुणाचेरि पळया. तिगेल देहारि साधारण मत्रीन असिलें लुगट ना. ताणे कवाड काळोलो शब्दु आयकुन ती दारवोट्यान्त चोयली.

राघवाक बेट्टु लागलो. काजल सुयलेल ते दोळयारि तो सूष्म जावनु चोयलो. लिपस्टिक लायलेल वोन्टय तिगेलो दिगूच केसुय देकुन तिका खंयकी आजे फूडे देकिलेल परिचयु ताका दिसलो.

खयीं ....... रमा ..... तीं एकसानी ........ स्कूलान्त ताजे लागि सिक्कीलि रमा ....... तांगेल घर लागलागीचि जावनु एकच केरीन्तु आसिलें. राघवालें आश्चर्य आसिलें राबप देकुन तीणे सांगिलें.

"हांव रमाचित. म्हळ्यार धा वर्ष फूडे तूंवें देकलेल रमा न्हय. तेदूस आमि एकसानिच सिक्कीलिं. आमगेल

आशयु अलतपेलतांतु सांगून एकसानिच खेळ्ळिं. आमका दोगांकय एकमळेन राबुन जीवित काडका म्हूण आशा आसिली. म्हळ्यार हांव एक गरीब कुडुम्बाचि जाली. तुगेले अम्मा बप्पाक दुडवाचेर मात्र जालो मोहु. अम्मा बप्पाले आग्रहाक विपरीत जावनु तुवें माका वारडीक करीन म्हूण उत्तर दिल्लें. म्हळ्यार बांन्कान्त काम मेळचानिक तूंवय माका घातकु घल्लो. तें कांय माका अतां होड ना. अतां दुःख इत्तें म्हूण माका कळना. आज हांवे इत्तेंय आठेयलार निमिष भितर जातलें. उन्चार आसिले मन्त्री थाकुन बान्कान्तुलो सिपाय भितर हांव सांगिलें आज आयकतलें. आज हांव दुडवाचि राणी!"

तिगेलीं उत्तरां आयकुन राघवाक ताणे केलेल चूकि उतूल सभार म्हूण कऴळे. अम्मा बप्पाले दुडवाचे मोहान मात्र ताकाय वारडिकेक विपरीत जावनु राबुका जालें. ते उपरान्ते मस्त सोयरीक ताका अयलेलतं. तिल्यागि केलेल चूकीक प्रायश्चित जावनु आनि तिल्यागि फूडे आसिले स्नेहान ताका वारडिकेक मन्नं आयलेंना.

ताणे कारण जावनु आजि तिका ही गति जाली. कोणाक हे मद्रीन आसिले कष्ट देवान दिंवचाक पाडना म्हूण ताणे प्रार्थना केल्ली आनि ताणे तिल्यागि क्षमा मागिली. राघवान रमाकच वारडीक कोरुक निर्णयु केल्लो. तसी ते पायकिल्याचे जीवितांत थाकुन ती मुक्ति पावली.



# 3

## मेगेल चूकि

आफीसांत थाकुन घरकडे पोरतून वच्चाक हांव देवलो. भायर सांजवेळ जावनु एत्ता मात्र. रोडार कार, बस्स, लारी, सघ धावनु वच्चो गरजु. बायल दादूले आनि चेरडुबाळ एक कडेन तांगतांगेलीं कायरीं उल्लोवनु वत्ताय.

माका घरकडचो विचारुतं मनांत. मेगल बायल विमलालागी कस्सिकि बर्पाचि कायरिं सांगप. तिल्यागि सांगिल जाल्यार कसी तें कायरिं-तिगेलेच भयणीलें कायरीं- ती सहन करतली. गेल्ले दोन तीन दिवस गांवान्त थाकून बर्प कांय आयलेनावे म्हूण ती निंवगीता. आनिकय ताजे पासून तिजेलागी सांगलेंना जाल्यार.....! कसी तिगेल तोन्डार चोवनु बर्पाचि कायरिं सांगूका म्हूण माका विचार जालो.

हांव घराचे मुकार पावलो. गेट काडचो शब्दु आयकुन सूण्या कुत्तीरा एक भोंकीलो. तुळसीचे अंगणांत

खेळतानि मेगेल मोगाचिं चेरडूंव, दिलीप अनि प्रदीप, माका देकून धावनु आयलिं. बायलेन एवनु कवाड कळ्ळें.

"तुंका इत्याक आजि आफिसान्त थाकुन एवनु पावंचाक चड वेळु जालो?" तीणे निंगीलें.

"हां .... कांयना, वाटेर एक ब्यारेलालागि वर्तमान उल्लोवनु राबून वेळु गेल्लो" हांवे जाप दिल्ली.

"देवळाचे तेक्कावेलीं एक मामु आनिक एदीं चेरडूव तुम्का देकूक सांजवळे हांगा आयलेलतं".

**"इत्याक?" हांव निंगीलें.**

"कसलेयकी कैर्याक दाम काणगेंवचाक आसुका. मुर्थम एक पसार तीं आयलेल म्हूण दिसता"

"तुंवे इत्ते म्हूण तांचेलगि सांगींले"?

"आफिसांत थाकून पावलेना, घरकडे पांवचाक स वरां जातलीं म्हूण हांवे सांगिलें. मागिर मेळूं म्हूण सांगून तीं गेल्लिं."

समाजाचो प्रसिड़न्ट मन्दो वेणसुकामतय, ते समाजान्तुलीं चेरडुवंय जांका तीं म्हूण हांवे आठेयलें.

दोन तीन मास फूडे एक आयतारु. तेदूस तीं माका देकूक घरकडे एवनु पावलीं. तेदूस हांव घरकडे आस्सिलो.

"नमस्कार राघवमाम". मन्दो वेणसुकामतीन वर्तमान प्रारंभु केलीं. "आमि देवळाचे तेक्का देकान केन्द्र जावनु प्रवर्तन कोरनु एंवचे सारस्वत समाजान्तुलेतं. आमगेल समुदायांतुले जनांक सेवन कोरूक मुकार सोरनु रूपीकृत केलेल तं आमगेल समाज. तुंगेल मदरीन आसिल्यालागि थाकून सहाय मागूक तं आमि हांगा एवनु पावल्यां."

"समुदायाचे सेवन म्हूण सांगिल्यार इत्तेंकि तुमगेलो उद्धेश?" हांवे निंगीलें.

"मुख्य जावनु समुदायान्तुले गरीब कुटुंबान्तुले चेलियांक वारडीक कोरूक आस्ति आसिले दोरके चेरडुवांक प्रोत्साहन दिंवचाक आनि तांका जांवका जालोल धनसहाय कोरूक आमि आठेयताय."

"हांगा हे कैर्याक आमगेलि सेवा समिति प्रवर्तन कोरनु एंवचे वेळेर तुम्मि दुसरे जावनु प्रयत्नु काडकावे?

तुम्नीय तांचेलागि एकडे जावनु राबुचे नवे चांग आसतलें?" मिगेल सवाल.

"म्हळ्यार धा वीस वर्ष मुर्थम स्तापित जालेल हांगाचे सेवासमितीक चांग इत्तेंय कोरूक जालेंवें? नांवांक पुरस ती चोलोंव्नु वत्ता. आमगेल गरीब कुडुंबान्तुलि चेल्लीयो, तांगेले जीवित चलोंचाक परजातीले मागल्यान गेलेल्याक लेक ना. तांतु कोणाक खेद ना. हे सग कोणालि चूकि?" वेणसुकामतीलिं उत्तरां.

"म्हुण सांगून तुम्मि एक नवी समिति केल्यार तुमचान तीं कायरिं कोरूक जातलवें? तुम्मि तें आठेयतायवे?" मेगेल प्रश्न आयकुन वेणसुकामतीले तोन्ड बावलें. ताका मागिर चड कांय सांगूक दिसलना.

"आमि अतां आयलेलिं ....." वेणसुकामतीलो ताळो भरभरेलो. "तुमि अंव्गेले परिश्रमान्तु भाग घेंव्का आनि अंव्का जांव्का जाल्लोल सहकार दींव्का."

"दिवस मुकार वत्ता तसी तुम्मि एकेकल्यानीय वेगवेगल जावनु एकेक समितीयो केल्यार तुमका

सगटांकय जावनु इत्तेंय कोरूक जातलें म्हूण माका दिसना. हे कैर्यान्त अत्तं सहकरण मेळतलें म्हूण तुम्मि प्रतीक्षा काडका नाका......". मेगेल उतरां आयकुन तेद्दूस वेणसुकामतीय चेरडूवंय उल्लोवनत्तिलें गेल्लिं.

हांव हाथपाय धूवनु चाय पिंवचाक बैसला.

"घरकडे थाकून विशेष जावनु बर्प कांय आसवे?" आफिसान्त थाकून एवनु केदनाचे मद्रीन पत्रास कांय उल्लेयना देकून बायलेन निंवगीलें.

तीणे निंवगिले कांय मेगेल मनां गेल्लेना. मेगेल मन् खयिंकी पोण खेळता. सकाळिं तिगेल भयणीले पासून आफिसान्त आयलेल बर्पाचे कायरिं मेगेल मनां पोण माका पीडा दित्ता.

तवळ सकाळिं वरांकोर्ण्ड्यार धा वरां वाजलीं आसुका. हांव आफिसान्त कदल्यार मेंगेल काम कोरनु बैसलां. बायल टैपिस्टान टैप कोरचो शब्दु एक देकान. दुस्सरे कूडान्त आफिसर सग बैसून इत्तेंयकी उल्लेयताय. एकोलो शिपाय तेदूस आफिसान्त एवनु पावलेंलि बर्प फुटेयता. भायर दोग जाण दादुले

मानेजराक देकुन उल्लोंवचाक राबल्यांय.

"राघव मामाक एक बर्प आसा" शिपाय एक बर्प मेगेल मेजार दवोरनु सांगून गेल्लो.

हांव बर्प हातांत कळें. कुर्पळे बायले घरकडे थाकून आसिलें. बर्पार बरेयलेलिं अक्षरां व्यक्त नय. थांगथांगा उदका थेंबे पोणु थोडे कांय मनां जायना. जाल्यारीय बर्पावेलो आशयु वाचून मेगेल मात्यांत इडबेट फुटल मत्रीन दिसलें माका. बर्प चार पांच पसार वाचून माका मत्तें घुवलें. हांव मात्यार हात दवोरनु मेजार कुंटून बैसलो. एदेच मास फूडेतं बायलेल बप्पाने बर्प हांगा मेळ्ळेले. तेदूस ताका देहाक कांय सूख ना आसिले. तें देकून ताणे अपळाचो ब्यारू राबेयलो. उपरांत दीस काडूक कष्ट जाले. एदोच दाम दीवनु पेटोंव्का म्हूण तेदूस बर्पारि बरेयलेंले. मेगेल बायलेल भयणि विनयाले वारडिकेचे कयर्यान्त चड उत्साह काडका म्हुणूय प्रत्येक जावनु बरेयलेंले.

माका कांय तांका सहाय कोरुक जालेना. मेगेल स्वार्थ स्वभावान मेगेल मात्र सूख जीवितांत माका चड

उत्साह जाला. आज तांका ही गति जांवचाक कारण हांव मात्र. हांव जावनु एक कुडुंब वाट आधार जालें. होळिळ एक चूकि केल्लेल चोराचे मत्रीन जनपत माका तांगेले चारीय दोळ्यान चोयता म्हूण माका दिसलें.

"राघवमाम .....राघवमाम ..... जेवण कोरूक वच्चनायवें? वरां एक जल्लेंमू". शिपायान एवनु उळदूकनितं हांव बर्पय हातांत दवरनु निद्देवनु पोळ्ळोल म्हूण कळ्ळेले.

सांज जावनु घरकडे पोरतून वच्चे वेळु भित्तर बर्पाचो विचार मनां आसिलो.

घरकडे पांवचाक अतां बायल बर्पाचे कायरिं निंवगीता. तिल्यागि कायरिं सम जावनु उल्लोंवया म्हूण हांवे आठेयलें.

"आजि तुगेल घरकडे थाकून बप्पालें बर्प आसिले" हांवे सन्त सांगीले.

"घरकडे इत्ते विशेष जावनु?"

"हां ....... विनय .... " मेगेल भरभरेलीं उत्तरां

भायर एंवचाक प्रयास जालो. "विनय ....... लागि घरकड्चे नायऱ्या चेड्यालगि गांव सोण गेल्लि".

उतलेंच सांगून हांव तिगेल तोन्डार चोयलो. हांव सांगिले उत्तरां तिगेल कनसलार मारलेल मत्रीन जाले म्हूण दिसता. तिगेल दोळ्यान्त उज्जो आयलो. खल्लाक पोडनात्तिल बगेक तीणे जन्नरलाचे कंबियेक धोरलो.

"हांवे तेदूसच तुमचेलगि सांगिलेलतं घरकडे वोचून एक एय्याय म्हूण" दोळ्यान्तुल्यान उद्दाक घालनु तीणे मिल्यागि रोणु सांगीलें.

"विमला, अनीक जावनु गेल्लेल्या पासून उल्लोवनु दुःख काण कायरिं ना" हांवे तिका आश्वास कोरनु सांगीलें. .... "हांतु मेगेल देकान थाकूनतं चूकि. हांव तेद्दूसच बर्प मेळ्ळेल उपरांत थांगा वोचून तांका सहाय कोरनु, तांगेले कार्यान्त तात्पर्य काडका आसिलें म्हूण अतां माका दिसता".

"एक कुडुम्ब कष्ट पावले वेळार तांगेले लागीचो बान्धव तागेले मात्र सुख कायरान्तु प्राप्त जालो" दूर

थाकून कोणेयकि माका बोट दाकोवनु मेगेल चूकि काण सांगता जावनु माका दिसलें.

मन्दो वेणसुकामतीले समाज प्रवर्तनाचो उडगास मेगेल मुकार आयलो. तेदूस ताणे सांगिले उत्तरां समतं म्हूण माका दिसलें. ताका हांवे कांय प्रोत्साहन दीवनत्तिलें तेद्दूस बळेयलेलि चूकि जालि. आमगेले समुदायाचे उद्धाराक हे तराचे समाज आनि समितियो वाड्डून आयल्यार चांग म्हूण माका दिसलें. मेगेल चूकि मनां कोरनु हांव समच वेणसु कामतीले समाजांत वच्चाक भायर सोरलो, तांचे लागि क्षमा मागूक आनि तांगेले समाजाचे कार्यांत सहाय आनि सहकरण कोळोंचाक.

"इत्तेंय दुःख संभवविकास तांगेल जीवितांत एवनु पांवतर मात्र त् समुदायान्तुले मनुष्यान्क समाज प्रवर्तनान जांवचें चांगपण बोध्य जाता, आनि तो समुदाय सेवनाक देंवता ....." घराचे गेट काणु भायर देंवचाक माका दिसलें.





4

# जीवित हें विरूप

उज्जो लागल्ले समान तीं कायरिं गावांतुले जन्पताले कन्नांत पावलिं.

श्यामळक्कि होस्पिटलांत दवोरनु चमकीलि.

माका विश्वास कोरूक जालेना. हांव तीं वर्तमान आयकून आश्चर्य पावलि. कालि भितर हम्मि सगटय एकसानि समाजांत बैसून खेळुहास उल्लोवनु गेल्लेलिं. इत्तें जालें म्हूण कांय कळना.

गेल्ले बारा वर्षां जालिं हांवय श्यामळय जावनु अस्सिल्लि वळकि मूळ धोरनु. हांवे प्रथम जावनु तिका देकूक जालोल संभव माका उडगास एत्ता.

एक दीस सांजवेळ. देवळांत नोडो कळ्ळो मात्रं. गोपरा भायर दवरलेल नोळ्यान्तुल्यान भजना गीन्त आयकूक पडताय. हांव हाथ पाय धूवनु देवळांत गेल्लि.

पांयपोणु प्रदक्षिणेन पणजिरा देकान पांवचानिक आगरसाळे भायर जावनु चेरडुबाळ एकमळीं बैसलाय

देकीलें. खंचकी एक बायल इत्तेयकी चेरडुबाळालागि सांगता देकूक पडता. तें इत्ते म्हूण आयकूक आसिलो ओमसोर जालो माका.

"वय सुशीला, इत्याकि ती चेरडूंव सग ते बायले लागि मेळ्यांय?" हांव मेजे लागिचान वच्चे एक वळकी बयलेलागि निंवगीले.

"ती चेल्लि पोणसा पर्मा माग्ल्यान राबुच्चे भीमुक गोपाल मम्मालि धूव श्यामळ तं. तूं वळकनावे? चोय, जोगोण गोन्दोळ घलचिं चेरडूवं तिगेले उत्तरारि कस्सि बैसल्यांय म्हूण."

हांवय ते चेरडुबाळा लागि वोच्चून बैसली. श्यामळ चेरडुवांक पुराणान्तुलि कथा, मागिर तांका चांग बल्लाव सग सांगून मनांत करता.

सांजवळेचो उजवाड वोच्चून काळूक जंवचाक वत्ता, देवळांत भितर नोडो गलचि घांट वाजलि. चेरडूवं एकेकेलीं जावनु उट्टावनु तंगतंगेले घरकडे गेल्लिं. थांगा हांव आनिक श्यामळ मात्र जालि. हम्मि दोग्गानीय परिचय कळ्ळो. तीणे मका तिगेले घरकडे उळदीली.

उज्वाड एदो मात्र आसिले पोणसा परमान्तुल्यान आमि चंकीलिं. पावसकाल देकून खंयकी बेब्बे रडताय आयकूक पडता.

चोय तेंत मेगेल घर. श्यामळान तिगेल बोट दक्कोवनु मेजेलागि सांगीलें. मेगेल दोळे तिगेल घराचेरि गेल्ले.

चारीय देकान वोय. ताजे मद्दे जावनु एक पाक्या घर. माड्यापिड्यान मनदिल्लो पेरपीडो. फिद्दरय, कूडीय, वासरीय, सगटय जावनु एक कूड. हत्तरपट्टोय बारीय कोरनु केल्लेलिं कव्वड घराक. घरान्तु शेणान पुस्सिलि भूंय. थांगा तिगेल अम्माय बप्पाय मागिर एकलो भावु मात्र आसा.

तिगेल बप्पा भीमूक गोपाळमम्माक वळकूनत्तिलिं कोण गांवान्त आसुना. बीचारीय सिनिमा हाळा मुक्कारीय मागिर उत्सव आसिले कडे सग ताका देकूक पडतलो. खांद्यार आंगूटीय मात्यार भीमूका पेट्टय दवोरनु तो वत्ता देकल्यार कोणेय पुणि ताजेलागि थाकून भीमूक काणु घेवनत्तिल्लें राबुन्ना.

ताणे भीमूक विक्कून केल्लेल दुडवान जांवका तें कुडुंब मुक्कार वच्चाक.

चेरडुवांक दोगांकय सिकवणेक बोळोंव्चाक वरुमान ते वप्पाक ना. तें देकून श्यामळालि साळेन्तुलि सिकवण राबेयलि. तिगेलो भावु रमेश आटव्यांतु सिकता. ताणे सकाळिं बुक्कय काणु साळेन्तु गेल्यार मागिर पोरतून घरकडे पावप रात्रितं, सिकवण एद्दि सरि ना.

सघटय जावनु एक गरीब कुडुंब.

श्यामळान तिगेल जीवितांत होड दुःख पाविल्लो दीसुत तो आसिलो. हांव सकाळिं देवळांत थाकून पोरतून एवंचे वेळार तीं वर्तमान आयकीलिं. श्यामळाले अम्माक चडाव म्हूण. गेल्ले दोन मास जाले तिका हाथ पाय हल्लोंव्चाक जावनत्तिलें सुख ना आसिलें. हांव समच तिगेल घरकडे गेल्लि. हांव थांगा पांवचे फूडे ती अम्मा तांका सघटांकय सोणु गेल्लि. सान थाकून तिका काण वड्डेयलेल ते अम्माक पोट्टोन धोरनु श्यामळ रडता. तो बप्पूस तिका आश्वास कोरनु मागल्यान काडूक चोयता.

हांव तिजे लागि सरलिं. माका देकूक श्यामळाक एक लागेन चड दुःख जालें. तीणे उट्टावनु माका पोट्टोवनु धोरचानिक मेगेले दोळ्यांतु उदाक भरले.

श्यामळाक आनि आधार तो बप्पूस मागिर तिगेल भावु मात्र जालो. तिका वारडिकेक प्राय दन्टवलि. तिगेल एकसान शिकिल्ले चेल्लियांक वारडीक जावनु एक दोन चेरडूवं जालिं.

बप्पाक जाल्यार वर्षा जालिं. ताणे दोळे धांपुचे फूडे श्यामळाक खंय एक्कडे वारडीक कोरनु दींव्का म्हूण तागेल इच्छा. भीमुका ब्यार कोरनु मेळ्ळेल चिलवाण दुड्ड एदे कोरनु ते बगेक ताणें एक्कडे केल्ले.

गोपाळमाम जायते कडे चेल्ले बगेक सोयरीक चोयलो. म्हळ्यार खंचे घरकडचेंय कवड ते बगेक ताका काण दिलेना. रोडार भीमूक विकून भोंवचे एकल्याले चेल्लेक स्वैरीक चोवचाक कोण मुकार आयलेना. जाल्यारीय तो थांगा हारवलोना. कसीय कोरनु तिका वारडीक कोरनु दींवका म्हळ्ळेल एकी

एक विचारान ताणे दीस काळे.

उज्जो लागल्याचेर तेल्ला थेंबो घालेल लेकान जालें ते कुडुंबाक. एक दि़सा श्यामळालो भावु गांव सोण गेल्लो. बप्पा जाल्यार मागिर कुडुंब चोवनु वोरका जालोल भारू सोण तागेले मात्र काय्र्याक तो खंयकी वत्ता. अम्मान मेल्लेल मागिर तेदुसतं श्यामळ रडता हांव देकिल्यां. श्यामळाक कळता बप्पाक ती एक भारु म्हूण. एक दीसा तीणे बप्पालगि सांगीले.

“बप्पा, बप्पान आनिक भीमुका ब्यार कोरका नाका, हांव खंय घरकडे वोचून दंद करीन.”

“आगो धूवे तूं एक वारडिके प्राय जालेलि चेल्लि. कोणालेय घरकडे दन्दाक गेल्यार ..........”

“तंतु इत्ते बप्पा, जीवित काडूक मनिष करटेंय कडतोलो म्हूण नवे बप्पान सांगप.”

“नागो धूवे ते बगेक हांव तुका बोळोवना. तुका खंय वारडीक कोरनतीने हे बप्पान घरकडे सबाव बैसुना. तुका दन्दाकय बोळोवना.” गोपाळमम्मान धूवे लागि सांगीले.

बप्पान तिगेल बगेक कडचे कष्ट देकून श्यामळाक मन राबना. "इत्तें करप , मेगेल कपला बोरो" तीणे आठेयलें.

घरकडे तसि आसिले कष्ट जाल्यारीय तें सग विसोरनु ती समुदायांतुले जनपतालगि एकमळेंन चंवकता, समुदायांतुले चेरडुवांचेर तिका होळ्ळीं कायरिं. तीणे तांका सिकवणेक जांवका जालेल सग सांगून दीवप. समुदायंतुले बायलांक उळदून तीणे एक समाज समिति केल्लि. तांचेलगि केदनाय खेळहास उल्लोवनु ती सगटालेंय स्नेहाक पात्र जालि. तें देकून तिका सगटय श्यामळक्कि म्हूणतं उळदिताय.

तसि दीस धावनु गेल्ले.

आज हीं दुःख वर्तमान गांव सग भरल्यां.

"श्यामळक्कि होस्पिटलांत दवोरनु मरण पावलि".

एकेक कायरिं आठोवनु वेळु गेल्लोलो माका कळ्ळेना. अंतिम जावनु तिगेले तोन्ड एक चोवया म्हूण लेकून हांवय होस्पिटलांत गेल्लि.

होस्पिटलांतुले एकेक वारडांतुय वोचुन चोंयलि.

वारड एक, दोन, तीन, चार, खंय देकिलना. सग वारडांतुय एकेक तराचे रोग्येलि. दादुलेय, बायलेय, चेरडुंवय, मालगडींय, मत्तें भेत्तल्लिं, हात-पाय कत्तरलेलिं, आंगाक ओपरेशन केल्लेलिं, सर्वतराचे जनांक थांगा देकूक पडता. निःशब्द जावनु आसिले एक अंतरीक्ष. भायर हासून दोल्लूनु भोंवचे कोणेय हांगा आयल्यार कष्ट इत्तें म्हूण कळतले. डाक्टर मनीष तांका कांय गौरव नातिल्ले लेकान अलतपेलतांतु सबाव चंवकताय.

हांव एक सिस्टरालगि निंवगुचाक श्यामळाक खालचे एमर्जन्सी वारडांत निदायल्या म्हूण कळ्ळें. हांव समचि थांगा गेल्लि.

एमर्जन्सी वारडांतुले एक मांचार तोन्ड भितर धवे लुगटान तिका पांगूरलेल आसा. ते देकिल्यार ती निदेवनु पळ्ळि म्हूण तं कोणाकय दिसतलें. तो वर्ष जालोलो बाप्पूस तोन्डारीय हाथ दवोरनु दुःखित जावनु मांचालगि बैसला देकिल्यार कोणालेय हरदें फुटतलें. मांचाचे चारीय देकान समुदायांतुले जनपत भोरनु

राबल्यां. हांव मांचालगि थाकून एक मुल्याक सरलीं, थांगा दोग जाणान कन्नांत उल्लोंवचे वर्तमान समच आयकूक. "विष खावनुतं मेल्या." एकोलो लागि आसिल्या कन्नांतु सांगता.

"तीणे इत्याक विष खेल्लें?"

"तिका वारडीक कोरनु दिंवचाक तिगेल बप्पान काळ्ळेले कष्ट सग व्यर्थ जाले. तिका जीवित हें विरूप जावनु दिसलें." हें सांगून तीं थांगा थाकून चंवकीलिं.

"हें सगटय कोणालि चूकि? कसलो एक समुदाय आंवगेलो?" मेगेल हरद्यांतु थाकून कोणेयकी मेजेलागि निंवगीता जावनु माका दिसले.

ताका उतरां मेगेल दोळ्यांत थाकून पळ्ळेल दोन थेंबे उदक मात्र........





# 5

# चांग बल्लाव

वीस वरषीं प्रथम जावनु हांव गावांत एत्ता. एक प्रशांत अंतरीक्ष. मळबार सूर्या माका चोवनु हसता म्हूण दिसता. देन्पारांचे वोत्ता हुनसाण उणे जावनु एत्ता मात्र. हांव बस्सार थाकून देवनु घरकडे चोंवकूक शुरू केल्लें.

हांव वीस वर्षा फूडे देकिल्लो गांव न्हय अतां. खंय चोयलारीय दोन तीन मळियेचें बंग्ळाव देकूक पडताय. गांवांचे रोड सग व्होड वाट जावनु पूरा परतलें.

रोडार दोनीय देकान वरणा कगताचे तोर्न जोरार सिंगारलेल आसा. इत्तेंकी विशेष दिसाचि प्रतीति. टौण हाळाचे मुक्कार वोळ्ळो मण्टोपु घालनु सिंगारलेल देकिल्यार कोणेय थांगा राबून चोयतलिं. उत्तूल सबार गंभीर सिंगारु. मुकार दोन्नीय देकान केळि मांदील्या. मागिर अंब्यापान, पक्कूळि सग कोरनसिलो सिंगारु.

टौण हांळांतु आज एक विशेष कार्यक्रम इतिकी चोंवकूक वत्ता म्हूण दिसता .

गेटाचे दोन्नीय देकान भायर पोलीस पिंगारतय घेवनु

राबिल्लें आस्ता. वोळ्ळे मनीष कोणकी एंवचि लक्षण दिसता. आयचो कार्यक्रमु इत्तें म्हूण कोळूक आसिलो उत्साहु जालो माका.

लेखान मुक्कावेल्यान तेक्कावेलो गुगूम रामशेणेय खाक्यांत पेपरय दवोरनु एत्ता. गांवांतुलीय अनि लोकांतुनीय कसलेंय कायरिं कोळचो गुगुम रामशेणेय.

"वय शेणेय माम, आज टौण हाळांत इत्तेंकि विशेष?" हांवे निंवगीलें.

"हां. तुका देकून उत्तूल काळ जालेरे? एंवचि वाट म्हूण दिसता, इत्ते तुका सुखवे?"

"वय शेणेयमाम, हांगा टौण हांळांत आज इत्तें म्हूण सांगिलेनामु?" माका कायरिं कोळचो ओमसोर जालो.

"हां. आज नवे हम्मि सगटानीय प्रौड्यान, अभिमानान, संतोषान आसिलो एक दीस, प्रत्येक जावनु आंवगेले समुदायांतुले जनांक ..." शेणेयमम्माक संतोषान करतना पुरतें सांगूक जायना.

"माका मनांत जालेना, शेणेयमाम" हांव दुसरीय निंवगीलें.

"ते कम्मळक्काल पूतु प्रतापचन्द्राक सरकारान बहुमान पत्र दिंवचो दीस आज. टौण हाळांत दोवोरनु सम्मेळन.

गवर्णर थाकून उंचार आसिले मान्य व्यक्ति सग एत्तांय."

"खंचि कम्मळक्का? ....खंचो प्रतापचन्द्रु?"

"हां तुं वळकनावे कम्मळक्काक? पनजिरा केरीन्तु मडळा घरांतु राबून आसिलि ती दंदकारनि कम्मळक्का, तिगेलो पूतु तो सर्वव्यापि प्रतापु".

समत ..... कम्मळक्का म्हूण मात्र सांगिल्यार तिका कोण वळकुन्ना. दंदकारनि म्हूण सांगल्यार सगटय वळकतनीं. आज तिकाय एक आनंदाचो दीस तं. तिगेल पुत्ताक गवर्णराले हातान बहुमति मेळता. ते मडळा घरांत शेणाचे भुंयचेर बैसून संवंय आसिले तिका आज वेलवेटाचे चविटार माडोवनु कुषनाचे कदलार मान्य जनाले कुटांत हाळांत मुकार पुत्तालागि बैसुयात. सगटय प्रतापालें भाग्य म्हूण तिका दिसलें.

प्रतापाक धा वर्ष आसतना तागेलो बप्पूस कालहरण जालो. मागिर सगटय जावनु कम्मळक्का मात्र आसिलि- अम्माय, बप्पाय, भयणीय, अक्काय जावनु. तीणे भांगराब्यारि गोपाळमम्माथंय दंदाक वोचून जांवका दीस काडूक.

कम्मळक्का सकाळिं केळकार उज्वाड एंवचे फूडे उटायतलि. घरांतुलें दंद सग कोरनु प्रतापाक खांवचाक इेत्तेंय कोरनु दवरनु जांव्का तिका गोपाळमम्माले घरकडे दंदाक वच्चाक.

अम्मान घरकडे थाकून भायर देंवचे फूडे प्रताप उटायतला. तोन्ड धूवनु बुक्कूय काणु सिकवण सुरु करतलो. तसि सिकूक बैसल्यार मागिर उटांवका जाल्यार देवळांत पायसा पुज्जेक घांट आयकुका. मागिर नावनु अम्मान कोरनु दव्वरलेल पेज्जे निश्शे पीवनु साळेंतु वच्चाक भायर सरतोलो. ताणे केदनाय घालचो ताका आसिलो एकू एक चोगोय आनि चेड्डीय घालनु .... थांगथांगा पिंजलकडे अम्मान सीविल्लें आसा.

घरकडे थाकून भायर देवल्यार गोपाळमम्माले घरा सुकार राबूका. तागेलो एकू एक मोगाचो पूतु तं वसतेवु. वडकुळे तोन्डाचो गडबुन्डो लेकान आसा. केदनाय इस्त्रि घालोल चोगो घालप ताणे. गावांतुने इत्तेंय काणगेंवचाक आसिले दुड्ड तागेल किस्सांतु आसतले. चेल्यान निवगिलेलें इत्तेंय, हस्ति भितर काण घेवनु दिंवचाक आस्ति आसा गोपाळमम्माक.

प्रतापानय वसतेवानेय एकसानी साळेंतु वच्चप. वसतेवु वाटेर देकिल्लें सगटय खंवचाक काणगेत्तोलो. एक सान कुट्टूको प्रतापाक दिंवचिना. प्रताप तागेले घरकडचे दंदेलेलो चेल्लो नवें.

एक दीस दोगेंय जाण कोरनु साळेंतु चोंवकून वत्ताय.

एक्कोलो मांतारो मामु बड्डीय धोरनु इत्तेंकि सांगूक तांचे लागि पावलो.

"अरे पुत्तांदो माका दोळ्यान सवंकि देकूक पाणा. माका ते देवळाचे गोपरांत वोरनु सोडसायवे तुमि?'' तागेलिं उत्तरां गदगदेताय.

हें सांगत मात्र वसतेवान तागेल बड्डि काण एक विन्दप दिल्लि. दुर्बल मांतारो पाय निस्सोरनु खल्लाक पोळ्ळो.

हें देकून वसतेवान स्थायु सोळ्ळो. वसतेवालि नीच बुद्धि देकून प्रतापाक अतिशयु जालो. तसीच मांतर्‍या लागि चड दयाय.

ताणे ताका हाताक धोरनु उटकरायलो. बड्डि काणु तागेले हातांतु दिल्लि अनि निंवगीलें.

"वय ..... अब्बोक खंतय की वोचूका, घर खंतयकी?

"माका घर ना रे पुत्ता. ते देवळा गोपरांत सोळ्यार जाले" मांतर्‍यान सांगलें.

पाप म्हूण दिसलें प्रतापाक. कोण नातिल्लो एक मनीष. गरीब आनि निराधार देकून ताका चोंवचाक कोण ना.

प्रतापान तागेले हाताक धोरनु ताका देवळाचे गोपरांत

भितर लागि वोरनु सोळ्ळो.

मांतर्‍याक वोळ्ळि कायरिं दिसलिं प्रतापाचेर.

"देवु बरेपण कोरो पुता तुका" मांतर्‍यालो आशिर्वादु.

प्रताप थांगा थाकून साळेंतु गेल्लो. प्रतापालि चांग बुद्धीय श्रमुय देकून थांगाचे चेरडुवानय तागेले सिकोवपी जनानय ताका वंकाणसीलो. सगटांकय तवळ थाकून प्रतापालागि माया दिसलि.

तो प्रताप तागेले सिकवणेक मुकार जालो. एकेक वर्षा रांक काणगेवनु विजय पावलो.

दीस, मास, वर्ष धावनु गेल्लिं.

आज प्रताप गावांतुलो एक वोळ्ळो समुदाय सेवकू तं. खंय, कसलेंय, केदनाय तागेलो सहायु देहान मनान कोरूक तो मुकार तं. रात्रि दीसु ताका वोडना. पावसु वोत ताणे लेकप ना. कोणालेय कष्ट दूर करचें तं तागेलें सूख म्हूण ताणे लेकले. तसि तो गावांतुलो जनपतालो सेवक जालो. ताका अतां सर्वव्यापि म्हळ्यार तं सगटय वळकताय.

तसि ताणे जनांक केल्लेलें सेवन लेकान काण सरकारान ताका बहुमान पत्र दिंवचाक लेकिल्यां. ताका चांग रूपार सेवन कोरूक आसिलो एक बंग्ळावूय मात्र न्हय

हे कयर्याक आसिलो दाम ग्रान्ट जावनु ताका दिंवचाकय वत्ताय.

आज प्रतापान तागेले घरकडचे कष्ट विसोरनु दुखांत आसिले जनांक आश्वास दिंवचे बगेक कळ्ळेल प्रयत्नाक आंगीकार दिंवचो दीस. कोणकि आज संतोष पावना.....?

"ते गोपाळमम्मालो वसतेवु अतां वाट आधार जालो. तो रौड्यालगि पोणु बल्लाव जालो. थरवाडार आसिलें घाण घालनत्तीने आनि थन्नावेलो दीवो मात्र तं आसा. केदनाय ताका नंकात भितर पींव्का. मागिर कस्सिकि चांग जातलो?" रामशेणेय्न उतूल मात्र सांगून राबेयलें. "जावो शेणेयमाम हांव वतां मागिर मेळूं". हांव लोवूच चंवकीलो.

घराचे हुंबरा भित्तर चोडचे फुडेच माका दिसलें - चांग बल्लाव सगटय देवान दिंवचेनय. तें मनिषाले चांग बल्लाव चाल चलणूक मेळचे तं म्हूण. चांग केल्लेलाक चंगपण, बल्लाव केल्लेल्याक बल्लाव जाता.



# 6

## माका आनि कोण आधार?

कसलोयकी शब्दु आयकुन म्हूण दिसता हांव निद्दांत थाकुन उठायलेंली. दोळे विस्कळावनु चोंवचाक हांव भूंयचेर तं पळ्या म्हूण कळ्ळें. हो देवा! हांव खत्तयकी? कसी मेगेल आंग सग बेत्तलें? हांव हांगा कसी एवनु पावली? माका कांय मनांत जालेना.

मेगेल एक हत्ताकय पय्याकय उत्तुल सभार दूकि. सहन जावनु नात्तिल मत्रीन हो !

मेगेल बोब आयकून एक नर्स थांगा धावनु आयली. तीणे माका काण मंचार निदायली. हांव हे होसपिटलांत कसी एवनु पावली म्हूण तिजेलागि निंवगून जाणजाली.

भायर एक होड पावसाची लक्षण आसा. मेघांतुल्यान उज्वल प्रकाश कोरनु इडबेट मिनमिनेता. काळ भैरव मात्रीन ते मळबांतुल्यान मुनिषांक विसरांचे तरा इडिबेट.

मेगेल हरध्यांत चांग दूकि आसा. भायर थाकुन शेलवोता वारें भित्तर मारता जाल्यारीय मेगेल आगांन्तु तापु तं दिस्ता. दोळे धांपून पळ्ळी. मनां उठावनु राबले

वेळार कसीकि नींद? कांय मनां मुक्त जायना. नीद्दे रय्याक बरबरी वोडून भायर विन्दून मेगेल परने उडगास मुकार एत्ताय, मनांतुल्यान एक घोषयात्रा कोरुक. गेल्ले कालाचे उडगास तंन्तु एकडे जावचाक भायर एत्ताच.

मेगेल अम्माने रूप मनांत एत्ता. उतलेय कष्ट पावनु एक थेंबो उदक सरि दोळ्यान्तुलान घालनतिने माका सालेन्तु आनि कोळेजांत सिक्कोंवचाक प्रयास कळ्ळेले अम्माले पासुन आसिल्ले विचार.

हांव स्कूलफैनल पास जावनु कोळेजांत प्रीडिग्रीक सिकता मात्र. ऐश्वर्याचीय समृध्दीचीय जावनु आसिल्लि तेदूश्ची सिकवण.

तेदुस पुस्तकय काण कोळेजांत वच्चे वेळार एक उल्दप आयकूक पडतलें.

"जया . . . " म्हळ्ळेलें गोड उल्दप. घूवनु चोयतर रमेश मागलान थाकुन एत्ता. वडकुळे तोंडाक सजल्ले मुदियाळो केसूय, सोपूरि मीसाय जावनु रमेश तागेले दांन्तय दाकोवनु एक मन्दहास. मेगेल घरकडचे कष्ट सग विस्सोरनु माका खुसी दिवचो तो मंन्दहास.

तो लागि एवु भित्तर हांव थांगाच राबली.

"जया, आजि इत्तें तुका तोडोव जाला पांवचाक?"

"हांव नय तोडोव जाला, बस्सतं."

तसी आमी दोगय जाण एकसानीच सिक्कीलीं. एक क्लासांत. मेगेल सिकवणेच पुसतक सर्वय रमेशाले तं.

रमेश गावांतुले एक होळ्ळे धनियालो पूत. तागेले बप्पा गावांतुले जायते संघाचो आधिकारीय तं. म्हळ्यार एक टुड्डू कोणाकय धर्मु दिंवचाक ताका दिसुना. ते बगेक देवान ताका बुध्दी दिसवप ना. रमेश जाल्यार बप्पाले रीतिक सांवकी उपराटेंत. बप्पान नेन्तना दरिद्रांक तन मन धन उपकार कोरूक असिले तें सहृदय मनं.

कोळेजांत थाकुन एकसानीच आमी पोरतुन एवप.

"रमेश हांव मेगेल सिकवण राबोंवचाक वत्ता. मेगेल अम्माक जल्यार सुख ना. घरकडे अम्माले परिचाराक कोणेय पुण नाकावे ?"

"हां . . . तुका सिकुक दुड्ड ना म्हळेल कायरीं माका कळता. जया, दुड्डु मनुष्याक एवचोय वच्चोयतं. मेगेल बप्पा दम्मेली. जाल्यार, कोणाक कळता एदेच वर्षा जातर कसी आसतलें म्हूण. मनीषु मेल्यार तागेली आस्तीय दामुय घेवनु वचना तो. तें सर्वय कष्ट बोगचे जनांक

आसिल्लेंत. देवान दिवचें तं सुख-दुख. तुंवे तांतु कांय विचार काडका नाका. हांव तुका जांवका जालोल सहाय करीन"

केदनाय हांव सिकवण राबोवचाक वताम्हूण सांगलार रमेशालिं उत्तरांतं हीं. कसोलो एक चांग मनीष.

आवगेंले परीक्षेचे परिणाम आयलें. आमी दोगंयजाणं विजय पावलीं. माका "तेड" क्लास. रमेशाक "फस्ट" क्लास.

भायर ऊजे वोत. एक दीस देंपारा हांव जेवणय जावनु कदलार पोणु पुस्तक वाचिता. एक बर्प पोस्टमानान दिल्लें. लेकोटो देकून माका तें खत्तय थाकून म्हूण कळ्ळेना. रमेशालेंकी बांन्कांत बरेयलेल मागणी पत्र की म्हूण.

लेकोटो फुटेयलो. रमेशान आलपळे थाकून बरेयलेलें. एक मत्रीन लगलगुन बरेयलेल बर्प. रमेशाक अलपळचे मेडिकल कोळेजांत प्रवेस मेळ्ळो म्हुणूय, बप्पाले निर्बन्धान करतनातं हांगा थाकुन सोण मनं नातिलें वत्ता म्हुणूय.

बर्प वाचुन हांव निद्देवनु पळ्ळीलि कळ्ळेना. अम्मान सांजवेळार उदक पिंवचाक उलदिले उपरांत, हांव निद्देवनु पळ्ळिलि म्हूण कळ्यां.

दीस धावनु गेल्ले.

माका बांकान्त काम मेळ्ळें. एक क्लारक जावनु. माका चांग आवड आसिलें काम. सान थाकुन मनां आठेयलेलेंच.

बांकान्त थाकुन घरकडे पोर्तुन एवनु, हांव केदनाय रमेशा पासून उडगास करप आसा. प्रत्येक जावनु रमेशान बरेयलेल बर्पा पासून. फैनल जाले म्हुणूय मागिर विजय पावनु खंयकी एकडे होसपिटलांत प्राक्टीस करता म्हुणूय.

मेगेल जीवितांत प्रथम जावनु हांव दुःख पाविलो दीस. माका त्रिसुराचे शाखेंतु दुरकाडली. थरवाडाचें घर सोडूक अम्माक मनं ना. माका वोचुन नात्तिले वगळ वाटय ना. मेगेल सामान सर्वय टन्कांत अम्मान काणु दिल्ले. शालेन्त वच्चे वेळार पुस्तकय काणु दीवनु पेरपीडांत भितर एवंचे ते अम्मा लागी, तेदुस यात्रा सांगुक मेगेल दोळांत हांव नेणतनाच उदक आयलें.

तसी हांव त्रिशुराचे बांकान्त चोणु काम सुरू केल्ले. दीस, मास, वर्षां गेलीं.

एक दीस हांव बांकान्त, होश्टलांत थाकुन एवनु चळ्ळी मात्र. तवळीच, बांकान्तुले शिपायीन एक टेलग्राम मेगेल हाथांत दिल्लें. घरकटे थाकुन आसिल्लें.

"अम्माक तुका देकूक नातीलें सुख ना. वोगी एवनु पांवका" वाचुन माका आंगातुल्यान उज्जो अयिल मत्रीन जालें. घरकडे वचाक तवळीच भायर सरलीं.

टिकट काणु कोचिन एक्सप्रसारीच चळ्ळीं. माका यात्रा सांगुक मेगेल एक संगातीय बांडी लागी भित्तर आयली.

हांव तसी धवी साय कळेले कम्बये जनरलांतुल्यान उजाबांडीर भायर चोवनु बैसली. रोटावेलान गुसमुटेवनु वच्चे मत्रीन कार, बस, लारी इत्यादिक वाहनाचोय जनांलोय प्रवाह. बान्डी सर्वतराचेय विकार असिले जनपतांकय घेवनु, तिगेलो चुळोय वाजुन मुकार सरली. हांव अलतपोतांतुले एकेक दृश्य चोवनु बैसली.

वुनसानी आसिलें वोत वोचून सांजवेळ जाला. मनांत घरकडचे अम्माले विचारान प्रयास आसिलो जालयारीय, भायर थाकून मारचे सेलवोता वारयान कर्तना माका वुणे आश्वास जालो.

उज्जाबान्डी राबिल्ले तिसरे स्टेषनांत माका देंवका. तवळ भितर मेगेल मनां एकू एक विचार मात्र तं आसिल्लो. ते अम्मालें आरोग्य कसी म्हूण मात्र.

घडि भितर एक वोळ्ळो शबदु. बोंब गल्लेला मत्रीन.

सगटय काणुविन्दील मत्रीन दूरा गेल्ली. हांवय तंतु पळ्ळीं. मागिर इत्ते जालें म्हूण माका कळनय.

उतलेंत माका उडगास एता. मागिर हांव दोळे विसकलावनु चोवचानिक होसपिटलांत भुंयचेर पळ्ळिलि जावनु देकलां.

हांव आयलेल बांन्डी अपाय जावनु हांवय सहित मस्त जाणाक शुश्रूषेक हे होसपिटलांत हळ्ळीं म्हुणूय, तीन दीस जावनुतं माका दोळे विसकलांवचाक जालेले म्हुणूय नर्सान मेजलागि सांगलें.

तसी आसिले विचार काणु समय गेल्लेलो कळ्ळेना, फल्ले जालें.

"हून उदक पिंवचाक जाय वे?" नर्सान निवगिने. हांव मत्ते हल्लोवचे फूडेच तीणे उदाकय हाण दिल्लें. एक गिळपाकच उदक पीवनु राबेयलें.

डोक्टर कूडांत एवनु नर्सालगी इतेंयकी मुरमुरेलो. माका कांय मनांत जालेना.

माका खंयकी वोरचे बगेक आसिलो उपदेश तो म्हूण मागिर माका मनांत जालें-चड जावनु तेच होसपिटलांत एक वारडांन्तु मोरुक पळ्ळेले मेगेल मोगाचे अम्मालागी वोरुक.

मोरचे फूडे ते वात्सल्या अम्माचे तोन्ड देकुन उल्लोवचाक आसिल्लें सौभाग्य माका ना जालें. माका थांगा स्ट्रचरार घालनु पावोंचे फूडेच मेगेल अम्मा हे लोका लागी यात्रा सांगून गेल्ली-तिगेल धूव हांगाच लागी असी पळ्ळेली म्हूण आठोवनतीने !

माका मेजेलागी वैराग्य दिसले. आनि हांव कोणाक जावनु जीवित काडका.

माका आनि कोण आधार? तो प्रश्नु मेगेले मनां उद्देवनु आयलो.

नाका, हांव आनि वोरनु कायरी ना, हांव आठेयलें मात्र, तवळीच भायर थाकुन एक शब्दु.

"जया . . ." माका परिचय आसिल्लो एक शबदू.

चोवचांनीक, स्टेतस्कोपय भुज्जार घालनु डोक्टराले वेषान एक मनिष भितर आयलो.

"रमेश . . ." मेगेल ताळ्यान हांव वोडान उळदीलो. संतोषान कर्तना मेगेल दोळांन्तुल्यान एक थेंबो उदक खल्लाक पळ्ळें.



# 7

# तिरुपती आंवगण

सकाळीं पांच वरार जागो जांवचाक वरां कोंरड्यार सूव दवोरनु निद्देंचाक पळ्ळो. तवळ वरां इखरा जालीं. बायलय चेरडुंवय धा वरारीच निद्देलीं. माका चांग कोरनु निद्देवंका महूण आसा. शेल वारें जन्नर्लातुंलान भित्तर मारता जाल्यारीय, आंगांत भित्तर उज्जो दिसता. दोळ धांपून पोळ्ळो. मळ्यार मनां खंयकी पोण खेळता, नीद पणा. वर्षा मागलान आसिले विचार मुकार एत्ताय.

मेगेल अय्येन कालहरण जांवचे वेळार सांगिलिं उत्तरा मनांत पोण खेळताय.

"आरे, नरस्यां तूंवें नारायणाक तिरुपति नड्यार वोरनु नंतना जन्नुवे घालूक पाणा".

"जावो, हांव कसीय कोरनु जाल्यारीय तिरुपति वोचुन तीं कायरीं करीन".

मेगेल पूत नारायणाक दोन वर्ष आसिले वेळार आय्येन केल्लेल आंवगणतं, ताका तिरुपति वोरनु जन्नूवे घालका म्हूण.

आय्येन मोरनु धा वरषां जालीं. अतां भित्तर तीं कायरीं सफल कोरुक माका जालेंना.

सबाव एक दफ़्तर क्लारक जावनु आसिल्ले शंबळान माका, तेवंय बायलेय दोग-जाण चेरडूवांकय पोसून जावनु हात्तांत कांय दव्वोरचाक जात्तलवे ?

नारायण आतां सत्तवे क्लासांत पावलो. धाक्कूलि चेल्ली, जया, दुस्सरांतुय. चेरडूवांक बूक सगटय कांगेवनु दिंव्चाक मस्त दुड्ड जात्ताय. तें नंतना तांगतांगेले शाळेन्तुले युणिफोमाक वेगळे चक्र जांवका. एकेक जाणालागी उस्सीणे कांगेवनु, आनिक भायर कोणाले तोन्ड चोंचाक लज्ज दिसता. तुतुल सभार रीण कुडुंबार जालें.

मागिर वेंकटपतीले देवळांत वोचून केन्नाय मेगेल प्रार्थना कोरचे. आमकां चांग गति तूंवे दीवका देवा म्हूण. ते बगेक जैति आंवगणय कोरनु जाली .

एक दिसा सांजवेळार देवळांत थाकुन पोर्तुन एंव्चे वेळार, केरळ सरकाराले एक भाग्या टिकेट काणगेवया म्हूण दिसलें. चिलवाण उणेच जावनु कोरड्यांत एक्कडे केल्लेल काण एक टिकेट घेत्तलें.

गेल्ले मासांत ते भाग्या टिकटाचें फल आयलेलें. पत्रार चोंवचाक मेगेल टिकटाक धा लक्षु रुपयाचें इनाम आसा म्हूण देकिलें. अदिमच विश्वास जालोना. वगळे चार-पांच जनांलागि टिकेट दाकोवनु पळोंचाकनीक समाधान जालि. हीं कायरी आयकूक आनिक मेगेलया पसी चड संतोष बायल चेरडुवांकतं आसिल्लो.

"एंचय, माका एक चांग साडि बनारस हाळांत थाकून कांगेवनु दीवका" बायलेन सांगिलें.

"बप्पा, माका लागी घरकडचे भंगराभ्यारी गोविंद मम्माले चेल्या मत्रीन एक रिस्ट वाच जांवका" नारायणाली इछा.

मागिर सान चेल्ली सबाव राबतलवे?

"माका एक पेटिकोटाकय ब्लौसाकय अंवगाले काडका" तीणेय सांगिलें.

हें सगटय आयकूक माका आयलो कोपु.

"तुमी तवळ आय्येन मरतसना सांगिलें कायरीं विसरलींवे?" हांव कोप्पान सांगिलें.

तसी गेल्ले वारांत तिरुपति वच्चाक निश्चय केल्लो. थरवाडाचे बडमामाक उळदून वच्चो दिवस तीर्पु केल्लो.

तिरुपति वच्चाक आसिल्ले टिकेट तवळीच गेत्तलें, सुक्रवारा देंपारा अडेच वरांचे ऐलन्ड एक्सप्रसाक चार जाणाक. माकाय बायल-चेरडुवांकय कोरनु तीन टिकेट, मागिर बडमम्माक एक.

मूंजिचे बगेक आसिल्लें सर्व साधनय तयार केल्लें.

दीस धावनु गेल्ले. तिरुपति वच्चाक आनिक एक दिवस लागेन आसा. बटमम्माक उळदून इत्तेंसघटय  कोरका म्हूण सांगिलें. रात्रि घरकडचे जेवण जावनु बटमाम गेल्लो.

तें जावनु एक गंठा जाली. सकाळीं उठांवका म्हूण सांगून बायल तवळीच वोचुन निद्देली. चेरडूवं ताजे फूडेच

पळ्ळीं.

एक-दोन कायरीं सग कोरनु, हांवय निद्देवचाक वच्चे वळेरतं आय्येलो उडगास. मागिर अलतपेत्तांत घूवनु निद्देंवचाक पळ्ळोलो उडगास आसा.

x x x x x x

सकाळीं बायलेन एवनु उळदील उपरांतेतं जागो जल्लोलो. वरां पांच जावनु तीस मिनिट जालीं.

"कसली नीद म्हणेयी? उदाक तप्पलें. वोग्गि वोचुन न्हयाय. स वरार देवळांत नटतरपाक पांवका नक्कवे ?"

"चेरडुवं उठायलीवें?" हांव निंगीलें.

"तांगेले न्हाण जावनु तीं अंवगाले नेसीतायतं, वोगी जावो"

हांव दांत घासूक भायर देवलो. कसलो एक मंगळ दीस. भायर उणेच सेळवोत दिसता. आकाशांत आदित्याचो प्रकाश एत्ता मात्र. हांगाथांगा कायळे रोडचे आयकूक पडता. रोटावेलान मनसालो संचार प्रारंभु जालो. निदांत साकून उठावनु जर्म्बे कडचे मत्रीन, दूर साकुन उज्जा भांडीचो चूळो आयकूक पडता.

"कौसल्या सुप्रजा रामापूर्वा . . . . . ."

देवळांत सुप्रभात सुरू जालें.

हांव न्हावनु तैयार जावचे मुर्तमच बडमामूय पावलो.

"नमस्कार नरसीमाम, तुम्मी सगटय वचाक भायर

सरलीवें? देवळांत वेळ जालो" बडमामान निंगीने.

आम्मी धारार भायर देवलीं. तिरुपति वच्चे ते चांग दिवसा नडतरपाचें दर्शन मेळ्ळेना जाल्यार मनांत खूसि जावना.

देवळांत थाकुन पोर्तुन एवनु, आम्मी जांवका जालेल मलगड्याले घरकडे वोचुन वीडो दाव्वोरनु तांगेल सगटय आशिर्वाद घेत्तलो. देंपारा घरकडे जेंवचाक स्वैरय सगठांकय अळदूक आम्मी विसरलींनाय.

भायर देंपाराचें उज्जे वोत. म्हळ्यार घरां भित्तर चांग शेळोव. जेंवचाक सगटांकय पन्नं दव्वरलीं. स्वैरी जावनु एकसानीच बैसले चोवनु एक मंगळकर्मा प्रतीति दिसली.

जेवणाचे उपरांते आम्मी आंमगेले यात्रेचें सामान सग तैयार कोरनु दवरलें. तें जावनु एक टाक्सि अप्पोवनु उज्जाबांडी स्टेषनांत गेल्लीं. ताजे फूडेच घरकडे आयलेले स्वैरि जनांचे लागी यात्रा सांगिली.

उज्जाबांडी स्टेषनांत पांवचाक थांगा आमका यात्रा सांगूक मेगेल दफ़्तरांतूनि एदेच दोस्त जनां आयलाय देकिलें. आमगेलें पेट सामान सग कम्पार्टमेन्टांत चडोवनु आम्मी आमगेले आसनारि बैसलीं.

हांव बांडि सोडचो समय जाल्लोवे म्हूण चोवनु बैसलो. हागथांगा तांगतांगेले लोकाक सोडूक आयलेलीं मनीष तो वेळ भितर उल्लोवनु राबल्यांय, एकोलो तागेले हात्तांत मस्त पत्र-मासिक दवोरनु, ताजें नांव सांगून विक्कूक व्हरता आसा,

एक देकान. पेतांतु एकोलो चाय-चाय म्हूण सांगून वोळ्ळे एक आयदनय घेवनु विकूक व्हरता.

उज्जा बांडी गारडान एक दोन विसिल वाजून तागेल हाथांतुली पच्चूवि गूडि दाकेयली-तें चोवनु एदेच जनां तांगेले कम्पार्टमेनट् सोदून धवताय. तवळ पर्यन्त खालाक भायर समय चोवनु दोस्त जनालागी बडाय मारनु राबिल्ले जनाय बान्डीं भित्तर ओंवसोर काण चळ्ळीं.

गावांचे एकेक दिकार यात्रा कोरूक भायर सरलेले, एकेक विकारू काण आसिल्ले जनपतांक धेवनु उज्जाबांडी तिगेलो साधारण मत्रीन असिलो चूळो वाजून काळो धुव्वोरू उंचार सोण मुकार सरली.

प्लाटफोमांत राबीले आमगेले दोस्त-स्वैरीं जनालगी हाथ दकोवनु आम्मी यात्रा सांगिली, बांडी मुक्कार वत्ता तसीच.

तवळ, धा वर्षा फूडे थाकुन हांव चिंतन कोरचें एक वोळ्ळिं कायरीं - मेगेल तिरुपति यात्रा - सफल जांवचाक प्रांरभु जालेल आनंदानुभूतीन हांव बांडीर बैसून निधेवनु पळ्ळोलो माका कळ्ळेंना ।



४

# स्त्रीधन

एक दिसा पैमाम बासारांतुल्यान घरकडचे बगेक सामान कांन्गेवचाक सांजवेळार वत्तालो. लोकन्डाब्यारी राघवमम्मान ताका तागेले अंगडीन्तु उळदीलो.

"इत्तें पैमाम वोळ्ळे विचारान दिसता मू तुगेलें चम्कण देकुन"?

"इत्तें करप राघवमाम, माका देवान दिल्लेल सगटय चेल्ले चेरडूवंच" पैमाम वोळ्ळे बेजारान तल्लागी सांगता जालो.

राः "तन्तु इत्तें चिन्तन कोरुक आसा. पांचान्तुले चार घुवांकच तुवें चांग-चांग कुटुंबार सोडवाड केल्लींमु."

"राघवमाम, तुका कांय कळना म्हूण दिसतामु. चौग जाणांकच सोडवाडांचाक हांव कळ्ळेल वोड्डियो देव एकोल मात्र जाण. मेगेल अब्बोले थरवाडार आसिलें सर्वय विक्कुन जालेल उपरांते अत्तां एक घर मात्र आसा. पर्माचो एकेक कुटुको विक्कुनतं हांवे चार वारडीकेचे खरचू काळ्ळेल

राघवमाम, अत्तां फुडेच थरवाडाचे लोकांकय, तांगेले उत्रांकय मोलना. किस्साक जडानि आसा जाल्यारतं समुदायांत अत्तां मोल. हांव अत्तंय उडगास करता, पांच वर्षा फुडे जालोल संभव! वोळ्ळो समुदाय प्रेमीय, समुदाय सेवकूय, समुदायांतुले जनांक उपदेश दिंवचोय नवे तो भन्डारिमामु. मेगेल दुस्सरे चेल्लेक तागेले पुत्ताक वारडीक कोरनु दिंवचाक हांव खर्च कोरूक आसिले रूपयाक धांवलेल वाट देव मात्र जाण. वेस्तेचे वेळारीच, वारडीक वोड प्रमाणान चोंवकोंचाक जावना म्हूण हांव तांचेलागि सांगिलें. म्हळ्यार समुदायांत ताका आसिले वोडपण चोवनु वारडीक जोरार चोंवकोंका म्हूण तीर्प काळ्ळें ताणे. तसी, ताका दिल्लेले स्त्रीधन नन्तना वारडीकेचे खर्चु सगटय कोरनु ताणे मेगेल दोळ्यांतुल्यान उद्दक घालेयलें."

"तसीच, पेल्ले फटचाना पर्मान्त राबचो तो केळ्या भ्यारी श्रीनिवास माम. भ्यार कोरनु नातिनेच पोटभर खांवचे बगेक आसिलि आस्ति ताका आसा. तागेले पुत्ताक बांग्ळुराकतं काम. मेगेल चोवते चेल्लेक वारडीक कोरूक ताणे निवगिलें भंगराकय दुडवांकय लेक चोयलार कपाल घुंवतने. मागिर चेल्यालो चांग स्वभाव, काम, इत्यादिक जावनु एक चांग

कुटुम्बारि चेल्लि वच्चो म्हूण दवोरनु हांवे मेगेल रगत अट्टोवनु जाल्यारिय ती वारडीक चमकेयली. आज माका तें सग चिंतन केल्यार आमगेले समुदायांत अस्सले सग जनांक देवान अनिकय दिंवचाक पाडना म्हूण प्रार्थना कोरूक दिसता."

लोकन्डा भ्यारि राघव मम्माक पैमम्मालि कथा आयकून ताजेर दया दिसली. तकाय वड्डुलो एक पूत आसा. बान्कांत ताका काम. पैमम्माले पांचवे दुव्वेक स्वैरीक चोंवचाक राघवमम्मान मस्त वेळार मनां आठेयलेलतं. चेल्लि धांवे भित्तर सिक्किलेलतं, गोरिचि. स्वभावगुण चांग असिलि. तागेले पुत्ताक सजल्ली. मागिर पैमम्माले आतंचे कष्ट देकून तल्यागि असी सांगलें:

"पैमाम, मेगेल पुत गणेशाक तुगेल चेल्लेक वारडीक केल्यार कशी? मेगेल एकुएक पुत. मेगेल एक आग्रह इत्तें म्हळ्यार वारडीक वोडपणान जोरार ना जाल्यारीय, आंवगेलें परने आचार प्राकार समुचित जावनु चोवकोंका म्हूणतं. मागिर पैमम्मान देणें जावनु कांय दीवका म्हूण ना."

राघव मम्मालीं उत्तरां आयकून पैमाम खुसी जालो. उतुल सभार समुदाय प्रेम आसिलोवे राघवमाम म्हूण ताका

दिसलें. संतोषान करतना कसी ताजे लागी जाप सांगुका म्हूण पैमाम विस्सरलो.

तशी वारडीकेचो दीस निश्चय केल्लो.

तो मंगळ दीसुतं आज. पैमम्माले पांचवे चेल्लेले वारडीकेचो दीस. तागेल जीवितांतुलो चड आनंद पांवचो दीस.

होरेत कुटुंबाचें व्होराण पांवचे मुर्थमच, पैमामाली स्वैरीं घरकडे पावलीं. चौगजाण धुवोय पावल्यो. तन्तुबरसी, पैमाम दुसरे घुवेलागीः

"आगो मांवु आयलोना इत्या?"

"सेवा समितिचो वारषिक योगु नवे आज सांजवळे. ते बगेक कोणाकय सग उळदूचे बगेक, भंगराभ्यारी श्रीनिवास मम्माकय घेवनु दूर खंयी गेल्ला. वारडीकेक थोगडे वेळारतं एवचाक जात्तलें म्हूण सांगतालो."

"हां. . . . तन्नी सग एवनागो आमगेले वारडीकेक. प्रत्येक जावनु कांय देणें दीवनु नतील्लि एक गरीब कुटुंबाचि वारडिक नवें" असी सांगून पैमाम घरांत दुखान गेल्लो.

देंपारा, वारडीक मस्त जनाले मध्दे पैमम्मान आठेयला पसी चांग जावनु जाली.

सांजवेळा समय, पंजीरा देकान मळब सूर्या-स्तमन जावनु तम्बडे आसा. वारडीके व्होराण देवळांत थाकून पोरतुन एवचो वेळ. मुकार पैमाम, राघवमाम, मागिर व्होरेत व्होक्कल उपरांते स्वैरिजन. व्होराण सेवा समितिचे लागि पांवचा जालें.

सेवा समिति मुकार तोर्ण गूडि सग मानदून जोरार सिंगारलेल आसा. वारषिकाघोषाचे सम्मेळन हाळांत भित्तर चमकता. स्टेजावेले एक कदलार केळाभ्यारि श्रीनिवास माम बैसला. एक दिकान मैक्रोफोनाचे मुकार तागेलो हाथ मैकाचे बोड्याक दोरनु, भन्डारिमाम तागेलें भाषण दिता. पैमामुय राघवमामूय तागेलीं उतरां आयकून दोन निमिषाक थांगा राबिले, तो उल्लेयता आयकूक.

"आज आमगेलो समुदाय एक व्होड आकांतार आसा. तें सग तारण कोरनु अम्मी जैते मुकार वोचुका जाल्यार, प्रत्येक जावनु सांगता जल्यार इतर समुदाय वड्डुचे मत्रीन अम्मीय वड्डुका. अम्मी म्हळ्यार आमगेले समुदायांतुले होड धनिक मनीसानि कष्ट काण जाल्यारीय एदेंच कायरीं कोरका, आवगेले आचार अम्मी राकूका. एकेक आघोष तन-मन-घन एकमेळीन, संतोषान, आनंदार, चोंवकोंका.

आवगेंले एकेक धनीक कुटुम्बावेले चेरडुवानीय वारडीक कोरूक देणें मळ्ळेल सोडका. गरीब कुटुम्बाचे, दीस काडुक कष्ट भोगूचे कुटुम्बावेले चेल्लियांक वारडीक कोरका . . . " तसी भन्डारिमाम तागेलें भाषण थांगा फुल्लायता.

पैमामुय राघवमामुय हें आयकून घरकडे चम्कताय. तागेलें उलोवप आयकून पैममाले हरदें थडथडेता. मनीश उतुल नीचवे म्हूण ताका दिसता. तो मनीश एक तोन्डान दोन जावनु सांगता. दोन मत्रीन करता. अनीक जनं ताका सांगताय तो व्हड समुदाय प्रेमी म्हूण, समुदाय सेवन कोरचो आनि तो समुदाय सेवक म्हूण. असी आसिल्यांक वे देवा समुदायांत मोल? हत्तांत तुळसिमाळाय वोन्टार रामनामय, खाक्यांत पेसकातीय आसिल्यांकवे आज समुदायांत मोल? हाका नांव इत्तें? हाका परिणाम इत्तें? इत्तें? इत्तें?



# 9

# मेगेल दुःख

सकाणचे नित्यकर्म सग जावनु हांव फिदरांत एवनु बैसलो. कूडीन्त बप्पा मांचार खरसि काण पळ्ळा. सूख ना जावनु मास एदेचि जाले. भयणि मीरा मेगेल पिंजलें मुन्ड सूवेन सिंवता. तें घालनु जांवका माका आज सुंगटा कंपनींतुले मानेजराक देकूक. गेल्ले मासांत थांगा काम सोद्दून वच्चानिक ताणे सांगलेलें लागीचे मासांत एवनु देक म्हूण. थांगाचो एक शिपाय गांव सोण गेल्लो. वेगळें एक काम मेळ भितर शिपाय जावनु जाल्यारीय मेळचे दुडवानि घरकडचे कष्ट उणे जातल नवे म्हूण आठोवनु तं हांवे तांचे लागि तेद्दूस गेल्लोला. आज एक पसार लागेन वोच्चून देकूका.

मेगेल दृष्टि उंचार लंबेयलेल देवाले कन्नडेर गेल्लि. देवा, तूं हे कुडुंबाक आनिकय दुःख दीवनाका. एकेक वाटेन तूं आंवका परीक्षण करता वे? उंचार मुल्याक लांबून पळ्ळेले गोन्ट्रेवांतुल्यान भायिर एंवचाक एक जोळ्ळो प्रयास काडता. तागेल पाक तांतु शिर्कले. हे कुडंबाकय हीचि वे देवा गति? मेजे मन खंयकी वच्चाक प्रारंभु जालें.

दोन वर्षा फूडे काळेजांत शिक्कून डिग्रि काळ्ळे उपरांते एक काम मेळूक हांवे भोवनतिलो स्थायु ना हे गांवांत. हापळा ब्यार कोरनु मेळचे आदायान बप्पान माका अनि मेगेल भयणीक शिक्केयलिं. माका ग्राजुवेट जांवचाक आसिलें भाग्य मेळतलें म्हूण हांवे स्वप्नांत तरि आठेयलेल न्हय. हांवे स्कूळ फैनलाक रांक काण घेवनु विजय पांवचानिक बप्पान सांगिलिं उतरां आजीय मेजे मनांत पोण खेळताय.

"अरे राजा,..... कालेजांत शिकून तुका डिग्रि मेळ्ळ्यार मागिर बेंकांत न्हय जाल्यार खंचेय आफीसान्त काम मेळूक प्रयास आसुना.

"बप्पा आतां स्कूळ फैनल भित्तर शिकूक बप्पान आनि अम्मान उतूल सबार कष्ट कळे. मेगेल खातीर जावनु मीरालि शिकवण राबेयलि. आनिकय काळेजांत गेल्यार ....." हांवे सांगीलें.

"तांतु कांयनारे पुत्ता, तुका एक उद्योग मेळ्ळोल चोवनु माका दोळे धांपुका". बप्पालिं उतरां तशि. रात दीस हापळाचें दन्द कोरनु त्या आवसु बापसून माका काळेजांत शिकेयलो. माका जाल्यार विश्राम नातिलें शिकूक उत्साह जालो. मेगेल नवे शिकवणेक भयणीन माका धैर्य दिल्लें.

पांच वर्षा धावनु गेल्लिं. मेगेल काळेजांतुलि शिकवण

पूर्ण जालि. हांव विजय पावलो. ग्राजुवेट जालो. ते उपरांते उद्योग मेळचे बगेक श्रम प्रारंभ केलो. वळकि आशिले सगटांचे लागि बप्पान वचून म्हळ्ळें. सगटालीय जाप एकीच-वेकन्सि ना म्हूण. बप्पान मस्त जनांले पाय भितर धरले. कांय वानचु ना. एक वर्ष गेल्लें. बप्पाक हरद्यांत दूकि एवनु सुख ना जालें. हापळाचो ब्यारु राबेयलो. लागिचे घरकडे थाकून अम्मान दन्द कोरनु हळ्ळेल्यान अम्मि दीस काळ्ळे. म्हळ्यार बप्पाले खातीर जावनु वोकदाक मस्त दुड्ड जाले. माका काम मेळतर वापस दीवूं म्हूण सांगून हांव भारि जनांलगि थाकून रीण घेतलें. काम मेळचिं कायरिं आठोवनु मेगेल हरदें फुट्टता. रीणेलि जावनु सगटय मत्यार आसा. हांवे दुड्ड निंवगून काण घेवनतिलो मनीष कोण ना. माका देकल्यार अता ते वाट सोण वताय. घरकडे जाल्यार एक वेळार समच आहार खेल्लेल दीस विसरलीं. माका मेल्यार पूरो जावनु दिसलें.

गेटार कोणकी मारचो शब्दु आयकून हांव भायर चोयलो. पोस्टमान आयला. हांवे धावनु बर्प काण घेत्तलें. बरपाचो लकोटो देकून माका सन्तोष जालो. हांवे एदेच मास फूडे दुर्गा बांकांत घालेले अपेक्षाचि जाप असतलि ती म्हूण हांवे लेकलें. बर्प अयल्यां देकून शीवनु बैसलि मीरा

घावनु मेजे लागि आयलि.

"कोणालें बर्प रे राजा तें?" भितर थाकून बप्पालो प्रश्न.

बर्प कसलें म्हूण कोळूक मेजाकय चड उत्साह जालो तांका. हांवे होगि लकोटो फुट्टेयलो. मेगेल कपलांतुलो बोरो चांग जालो कि? हांव संतोषान बर्पय घेवनु बप्पाले मांचा म्हणांत धावनु गेल्लो.

"बप्पा माका दुर्गा बांकांत तांगेल मंगळूर आफिसांत इन्टरव्यूवाक उळदीला लागिचे वारांतु".

"देवु पवलोरे पुत्ता."

"अन्ना, बांकांत उद्योग मेळ्यार माका भायर वचाक गागर्याक अनि चोळ्येक आंवगालें काडका", मीरालि आशा. तिगेले पिंजलो गागरोय एक हातु नतिल्ली चोळीय देकून माकाय तें दिसलें तं.

"बप्पा, मंगळूर भितर वचून एंवचाक मस्त दुड्ड नक्कायवे? माका आनि कोणालागि दुड्ड निंवगूक लज्जा दिसता", हांवे संगीलें.

"कशी जाल्यारीय राजा तूं इन्टरव्यूवाक वचून यो. दुर्गा बांकांतुलो डयरक्टर दोरको म्हूण तेदूस तो अनवाळो मिन्नु भटमाम हांगा एंवचानिक म्हणतालो".

हें सग अयकून वस्सर्यांतु आशिलि अम्मा मुकार अयलि.

“अरे पुता तुं ही पिरडुकेमाळा व्हरनु घाण दवरि”. अम्मान गोंवटेचि माळा काण मेजे लागि दीवनु सांगीलें. “राजा तूं मंगळूर वच्चे फूडे ते मिन्नु भटमम्माक वचून दीक. दुर्गा बांकांतुल्या एकल्याक वळकता म्हूण तो मेजे लागि सांगतालो”.

टेरिकोटन पेन्टाचे उंचार बोर्यांचो चोग्गो घाल्ला हांवे. बांकांत हांव एलतपेलतांतु वत्तासणा जांवचो पप्पासाचो शब्दु आयकून बांकांतुलीं सगटय माका चोयताय जावनु दिसले. लागीचे कूडांत थाकून मेनेजरान माका होडान उलदीलो. माका मनांत भय जालें. हांव केशबुक बरैयलेल्यांतु चूकि आयलि की? हांव होगि तागेल कूडांत गेल्लो. कन्नाडेक दवरलेले मेनेजराले तोन्डार मन्दहास. माका अतिशय जालो.

“तुगेले प्रथम मासाचो शंबोळ ...... 10500 रुपया घे” ताणे माका हात दीवनु मेजे लागि रुपया दीवनु संगीलें.

स्वर्गार थाकून पळ्ळेल माद्रीन जालें माका. मेगेल जीवितांत उतलो रुपया मेजे लागि आज भितर मेळनी. हांव दुड्ड घेवनु स्तब्ध जावनु राबलो. हे दुड्ड काण इत्तें सग कोरका म्हळ्ळेलो विचार जालो माका.

सांजवळे बांकांत थाकून देवनु प्रथम जावनु समंच वोकदाचे आंगडींत वचून बप्पाक डाक्टरान बोरोवनु दिलेलें वोकद सग घेंवका. घाण दवरलेलि अम्मालि पिरडुके माळा पोरतून काडका, हांवे आठेयलें.

"राजा, तूं इत्तें आलोचन कोरनु बैसला? भटमाम अतां पांवतले. हात पाय धुत्तात, तुं चाय पी" भटिनायेल जाप आयकून हांव सपनांत आशिलो म्हूण माका मनांत जालें. हांव मंगळूर वचे फूडे भटमामाक देकूक तागेल घरकडे अयलोलो तं. तो एदी घडि जावनु एत्तलो म्हूण बायलेन सांगीले. तें देकून हांव भायर बैसलो. ते वेळार मनांतुले मन्डे मुकार आयल्यात.

मिन्नु भटमाम आयलो. ताणे दुर्गा बांकांतुले डयरक्टराक दिंवचाक एक परिचयाचे बर्प लकोटांत घालनु मेजे लागि दिल्लें आनि सांगीलें.

"इन्टरव्यूवाचे मुर्थमचे दीस तूं डयरक्टराक तागेल घरकडे वचून देक आनि हें बर्प दी. हांवे तुगेल कुडुंब कष्टांत म्हूण आशिलें कायरिं बर्पारि बरैयलेलिं आसा. ताणे आठेयल्यार तुका थांगा उद्योग मेळचे कायरें खंडित". हांव तें आयकून घरकडे आशेन वापस गेल्लो.

बप्पालेय अम्मालेय आशिर्वाद मागून हांव मंगळूराक

भायर सारलो. मेजे जीवितांतुले एक व्होड कायरें सफल जांवचे प्रतीक्षेन.

एक दीसु जावनु हांव मंगळूराक पावलो. हांवे एक कूड होटलांत भाड्याक काळ्ळें.

सांजवेळ जालो. हांवे मेगेल बेग विसकळायली. श्री रघुराम किणि, डयरक्टर, दुर्गा बांक. मिन्नु भटमामान दिल्लोलो लकोटो काण हांव समंच तागेले घरकडे गेल्लो.

चांग विस्तार आशिले परमाचे मद्दें देकचो बंगळाव. भायर गेटांत पांवचानिक माका थांगाचे वाचमेनान राबेयला. लकोटो दकोंवचानिक ताणे माका भित्तर सोळ्ळो. उदका फौन्टेन आशिलें पाचूवें पार्क दण्टवून हांव बंगळावाचे आंगणांत पावलो आनि मुक़ावेल कूडांत चळ्ळो. मेगेल हरदें टपटप जावनु मारूक आरांबिलें. कश्शि कीणिमामा लागि उल्लौंवका?

एक बायलेन एवनु माका बैसूक सांगीले. एदी घडी जावनु, भित्तर थाकून कोणेयकी एंवचो शब्दु आयकीलो. कीणिमाम जाव्यात..... हांव ओटेयलें.

मीशा आशिले वडकुळेच तोण्डार कन्नडेक दवरल्यां. गौरवाचे माद्रीन आसा चोवप. एक पैजाम आनि जुब्बा घालोल आसा. हांवे नमस्कार सांगीलो आनि भटमामान दिलोलो लकोटो मुकार दवरलो.

कीणिमामान बर्प वाचीलें. "हां मिन्नून माका बरेयलेलें तं. त्या हापळकारालो चेरको नवें? जावो, दोरको देकून मेजान जांवचे हांव करीन, तुं फाय आफिसांत यो"

कीणिमम्माक धन्यवाद सांगून हांव थांगा थाकून देंवलो. हेरदूसा आफिसांत गेल्लो. हांव नंतना दुसरे धा जनां लागेन एवनु पावल्या इन्टरव्यूवाक. तांतूले एकल्याक वळक आशिल माद्रीन दिसलें. हांव ताजे लागि सोरलो. भांगरा ब्यारि औसेपालो चेडो पौलोस. मेगेल घरा लागि राबचो. साळेंत आमि एकसानीच शिक्किले. स्कूळांत मारफार कोरूक तो दष्टीक आशिलो. शिकवणेक मागल्यानय. धाव्यांत तीन वेळार बरोवनु पास जालो तो. बप्पा धनवंत देकून कशीय जाव्यात नवे?

इन्टरव्यू जालें. विजय जालेले जनांले नांव कोळूक आमि सगटय देन्पार भित्तर थांगाच बैसले. शिपाय एवनु एक नोटिस भायर थापून गेल्लो. मेगेल दृष्टि होगि नोटीसाचेर जालि.

इखर जनांत एकल्यालें नांव मात्र देकूक पडता ...... धनवंतालो चेडो पौलोसालें मात्र. मेगेल दोळ्यांत काळूक आयलो. खाल पोडूक पाडना देकून हांव लागि आशिले एकल्याले खंदंयार हात दवरनु बैसलो.

माका बाकांत काम मेळनु हांव घरकडे पोरतून एंवचे चोवनु बैसले अम्मा बप्पालो उडगास मेजे मनांत आयलो. सूख ना जावनु पळ्ळेल बप्पाक वोकद घेवनु भेदु कोरूक दुडवाक आनि वाट इत्तें? गोंवटेचि पिरडुके माळा घाण दवरनु माका उद्योग मेळतोलो म्हूण आशेवनु रबलि अम्मा. माका ती माळा आनि सोडोवनु वापस काडूक जातलवे? नवें घालनु भायर वचाक आशिलि मीरालि आशा सफल कोरूक जातलवे माका? मेगेल दोळ्यांत उदाक भरलें. हे प्रश्नाक सग उत्तर मेगेल दुःख मात्र. हे गावांत समुदांयांतुले गरीब जनांक आनि तांगेल सिकवणेक मोल नाकि? दम्मेल्यांक मात्र वे हांगा स्थान? एकेक दुष्ट विचार मेजे मनांत धावले. हांव थांगा थाकून भायर देवलो.

देवा, आनि माका तूं मात्र आधार. माका दुसरीय दुःख भोगूक आशिलें आरोग्य ना. हांवय एतावे तुजे लागि? तुजे लागि एंवचे फूडे हांगाचे जना लागि थाकून एक कायरिं माका कळका. तें खण्डीत. दाम की समुदाय तुंमका व्हड? दाम की समुदाय?








# 10

# ती धन्य जाली

भायर भिण भिण काळूक. कण्डणा धारे पावसु पोणु राबला मात्र. मळबांतुल्यान गुडगुड मिनमिनेता. जन्नरलांतुल्यान शेळ वारें भित्तर मारता. खंयकी थाकून सूण्यांचो बोब्बो आयकूक पडता ..... चेरडुवांक बेट्टु लागुचे माद्रीन. हांव कंबळीय मात्यार भितर पांगूरनु पळ्ळो, सुखान नीद काड्या म्हूण आठोवनु. म्हळ्यार मन उट्टावनु राबिले वेळार कशिकी नीद पडतली? उज्जा भान्डी चूळो धूरा थाकून कन्नांत एवनु मारता.

सांजवळे उज्जा भान्डी आपीसांत गेल्लेलिं कार्यारिं मनांत खेळता. मेगेल जीवितांत प्रथमच जावनु हांवे दुःख पाविल्लो दीसु. गेल्ले पन्नेरा वर्षा फूडे आशिले परिचयान हांवय तिका यात्रा सांगूक स्टेशनांत गेल्लो.

बागळूर एक्सप्रस्सार फस्ट क्लास कंपार्टमेन्टान्तु ती असतलि म्हूण मनांत करनु समचि थांगा गेल्लो, तिका देकून दोन उतरां उल्लोंव्या म्हूण आठोवनु. म्हळ्यार थांगा पावनु धूरा राबका जालें. तीणें बैसले चारीय देकान तिकाय तिगेल बामणाकय सोडूक आयलेल इष्ट जनालो गोन्दोळ.

हांवे थांगा गेल्यार कोणे मोल दोव्वोरना. मागिर कशिकी तिजे लागि वोच्चून उल्लवप? हांवे आठेयलें.

"गोपाळमाम, गोपाळमाम" मागल्यान थाकून एक बायलेलो ताळो अयकीलो. चोंव्चाक ती तं. गीता. माका देकून भान्डीं थाकून उल्लोंव्चाक मेजे लागि आयलेलि तं.

"माका वळकतावे ?" हांवे निंवगीलें.

"गोपाळमम्माक ह्या जीवितांत माका विसरूक जातलवें? तुंगेल एक उपकारान मात्र तं हांव आतां अशि जाल्या." तिगेलिं उतरां.

पन्नेरा वर्ष फूडे तिका दीस काडूक कष्ट आशिले. पोणसा पातळि राघवमम्मालि एकली धूव. तिका दोन वर्षे आशिले वेळार तिगेलि आवसु मरण पावली. बप्पाक जाल्यार वर्ष जालिं. पातळि विकून मेळ्ळेल दुडवान मात्र तांगेल जीवन मुकार वतालें.

एक दीस सांजवेळा हांव आपिसांतुले काम जावनु पोरतून घरकडे वता. वाटे वेल्यान कार, बस्स सग वच्चो गोन्दोळ.

राघवमम्मालि पातळे भान्डि दूर थाकून देकलि. बप्पाक भान्डि धिंगळून दिंवचाक धूवय आसा लागि.

"राघवमाम कशिश आसा अयचो ब्यार?" हांवे निंवगीलें.

"हां ...... चिंतना". इतिकी विचित्र जावनु ब्यार जालेल मद्रीन राघवमम्मालिं उतरां. "सगटय देवाले दयेन

चमकून वत्ता. मेगेल दीस हांव मेजून काडता. तें जावनु मेगेल धूवेलि गति .....” संकटान करतना राघवमम्माक पुरतेंच सांगूक जालेना.

“भींवका नाका राघवमाम, देव आसा. हांवे ताका आश्वास दिल्लो. आनि एक पातळीय घेवनु चमकलो.

निमिष भितर एक शब्दु आयकीलो. राघवमम्माले भान्डीक एक कार एवनु आड्ळें. राघवमाम बोड भेतून रोठार पळ्ळा. तागेल उंचार भान्डि घणघण जावनु पळ्या. राघवमम्माले मात्यांतुल्यान रगत होळता. इतकीं भाग्यान तागेल धूवेक कांय जालेना.

ताका आशुपर्त्यांतु वोरूक हांवे एक भान्डि उळदीलि. म्हळ्यार ताजे फूडेच तो आंव्का सगटांकय सोण चमकीलो.

ताणें निमिष मुकार सांगलेल पद मेगेल मनांत पोण खेळता. “सगटय देवाले दयेन चमकून वत्ता. मेगेल दीस हांव मेजून काडता. तें जावनु मेगेल धूवेलि गति ........” आनि इत्तें कोरका म्हूण हांवे आलोचन केल्ली.

हांवे तिका समुदायांतुले अनाथमंदिरांत व्हरनु सोळ्ळि. ती थांगा वाड्लि. दीस, मास, वर्षा धांवनु गेल्लिं. गीताले चांग स्वभावान, तिगेल चांग सिकवणेन तिका थांगाचे सगटालेय स्नेहूय बहुमानूय भायर थाकून तिका प्रशंसाय मेळ्ळि.

एक दीस बांग्ळूरचो समुदाय सेवक चेरडु प्रायेचो

डाक्टर राव अनाथ मंदिरांतुले जनांक चोंवचाक आयलो. ताणें गीताकय देकलि. तिजे लागि तो उल्लेयलो. एक डाक्टर म्हळ्ळेल लेकान न्हय. ताणे तिका वारडीक कोरनु व्हरूक निश्चय केल्लो.

तशी तिगेल जीवितांतुलो सौभाग्य दिवस. समुदायांतुले गरीब अनि धनिक जनाले मुकार तांगेलि वारडीक चमकीलि.

गार्डीन उज्जा भान्डि वच्चाक घान्ट वाजिली. ती मेजे लागि यात्रा सांगून भान्डीर चळ्ळि.

मेगेल जीवितांत प्रथम जावनु कोणकी माका सोण वत्ता म्हूण दिसलें. भान्डि सोण मुकार वच्चाक मेगेल दोळ्यान्त उदक भरलें.

पन्नेरा वर्षा पुरथम गति नीतिल्लें जीवन काडूक कष्ट पाविल्या तिका आज समुदायांतुले एक होड डाक्टरालि बायल जांवचाक भाग्य जाले. तिगेल जीवन धन्य जालें.

अमगेले समुदायांत डाक्टर रावमामाल माद्रीन आशिल्लिं जनां आनिकय मुकार एवो म्हूण हांवे आठेयलें.

हांव कांबळीय मात्यार भितर पांगूरनु दोळे धांपून ...ळ्ळो.







*Shri P. Gopinatha Kamath, son of late Shri R. Padmanabha Kamath and late Smt. Kalavathi Bai, was born at Cochin. He is presently settled in Thiruvananthapuram. He was working in LPSC-ISRO and retired from service in May 2007. He has been writing short stories in Konkani for many years. His short stories have been published in the monthly magazine Konkan Janatha since 1973. They have also found place in Konkani Kathashtak (1978) and Kanyan Ghos (1979) brought out by Konkan Janatha Publications. His short story won First prize in the competition held at the Akhila Kerala Konkani Kala Sahithya Sammelan in 1979. His articles have also appeared in various periodicals/souvenirs.*

*He is one of the founder members of the Kerala Konkani Academy. With his active participation in socio-cultural activities organized by the GSB institutions in Thiruvananthapuram, Shri Kamath has always been in the forefront for any work which has promoted the Konkani literature, and subsequently its culture.*

**Kerala Konkani Academy Publication**

